# मम्मी

( तीन अंकी नाटक )

नं. ध. बोरकार






प्रकाशन

**मम्मी**

(तीन अंकी नाटक)

नंदा धर्मा बोरकार

**Mummy**

(Play)

**N. D. Borkar**



**पयली आवृत्ती**
माय २००६

**प्रकाशन क्र. ३५**

**प्रकाशक**
दिलीप बोरकार
बिम्ब प्रकाशन
जी.एस.बी ३
पर्वरी

**अक्षर जुळणी**
बिम्ब प्रकाशन

**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स
बी-२, 'अक्षर आर्केड'
३३६०/४, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव.

**दर्शनी चित्रः**
गिरीश नंदा बोरकार

**मोलः रु. ५०/–**

# मनोगत

म्हज्या 'मम्मी' ह्या नाटकाचे तीन प्रयोग जाल्या उपरांत तें उजवाडाक येता हाची म्हाका चड खोस भोगता.

हांवें म्हज्या 'मम्मी' नाटकाचे तिनय प्रयोग लोकांमदें बसून पळेल्यात. उजवाडाक हाडच्या वोगतार बरेच बदल केल्यात. नाटकांतलें सतीश हें पात्र पयल्या दोन प्रयोगांत सायमन म्हूण वावुरतालें. ताचे भाशेंतय बदल घडोवन हाडला. पयलीं हें नाटक दोन अंकी आशिल्लें. आतां तें तीन अंकी केलां.

तशें पळोवंक गेल्यार म्हज्या 'मम्मी' आनी 'वावराडी' ह्या दोनय नाटकांचे विशय आनी आशय नवे नांत. तरीय प्रेक्षक नाटक पळोवंक बसतकीर आपलें कदेल सोडूंक तयार नासता, हांचो हांवें अणभव घेतला.

हांवें भुरग्यांक शिकयतां शिकयतां खूबशीं नाटकुलीं गेदरिंगाचे माचयेर, बरोवन लोकांमुखार हाडलीं. तीय बी शाळा व्यवस्थापनाच्या सांगण्यान आनी इत्सेन. कॉन्वेंटाचें गर्लस हायस्कुल आशिल्ल्यान, शिकपी भुरग्यांक आनी तांच्या आवय-बापायंक दोळयांमुखार दवरूनच हांवें नाटकां बरोवन सादर केलीं. बरोवपी आनी शिकोवपीय हांवंच आशिल्ल्यान, लोकांनी नाटकांची खूब तोखणाय केली. आनी तेच तोखणायेंतल्यान हीं 'मम्मी' आनी 'वावराडी' उजवाडाक येतात.

हांवें तेत्तीस वर्सां कोन्वेंट हायस्कुलांत शिक्षणदानाचें कार्य केलें. ह्या काळांत मादरी, वाडिल्लीं भुरगीं, तांच्यो आवयो आनी पाश्चात्य संस्कृतायेंत वाडिल्ल्या उच्च शिक्षित शिकोवपी बायलांच्या सोबावाचो नियाळ करपाची संद म्हाका मेळ्ळी. ताका लागून भारतीय अस्तुरी– ती मागीर खंयचेय धर्माची आसूं – भारतीय समाज आनी राष्ट्र उभारणेचो आदार जावन आसा. बायलमनशेन आपली निजाची सुवात सोडली जाल्यार हो देश तिगून उरचोना, अशें म्हजें मत आसा. बायलांच्या चंचलपणाक लागून खूबशा घराब्यांचीं मसणां जावंक पावल्यांत हेंय हांवें पळेलां.

भारतीय अस्तुरी कशी आसची हें हांवें म्हज्या उजवाडाक आयिल्ल्या दोनय नाटकांतल्या, लिला आनी सीमा ह्या पात्रांच्या माध्यमांतल्यान दाखोवन दिवपाचो यत्न केला.

दुसरी गजाल अशी की आयज नाटकांतलें तंत्र बदललां. पूण हांवें म्हज्या ह्या दोनय नाटकांत तंत्रांपरस उतरांक चड म्हत्व दिलां. कारण तंत्रापरस उतरां मनशाच्या काळजाक हालोवपाचें काम करतात. ताकाच लागून म्हजी 'मम्मी' आनी 'वावराडी' हे फुडेंय लोकांक आवडटलीं, हाची म्हाका पुराय खात्री आसा.

१० जानेवारी २००५ - नं. ध. बोरकार
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें गोंय.

म्हजो पापा
सर्गेस्त धर्मा बोरकार
हांचे मोग्याळ यादीक.....

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग श्री चामुंडा कला मंडळ, व्हडलें गोंय, हे संस्थेन अक्षयतृतीयेच्या निमतान, सोमार ८ मे २००० हे तारकेर, रातच्या १० वरांचेर व्हडले गोयां सादर केलो.

हातूंत वाटो घेतिल्ले कलाकार -

| | | |
|---|---|---|
| **जायू** | - | स्नेहा दी. एकावडे |
| **लिला** | - | विंदा दी. एकावडे |
| **सतीश** | - | सप्नील व्यं. चोडणकार |
| **सीताराम** | - | सचिन स. चोडणकार |
| **बाबुलो** | - | अनंत ग. नाईक |
| **राजेंद्र** | - | नागेंद्र गो. भांडारे |
| **दिनेश** | - | जयेश गो. पेडणेकार |
| **नारु** | - | पराग र. साळकार |

| | | |
|---|---|---|
| **दिग्दर्शक** | : | गणपतराव पां. चोडणकार |
| **पालवी दिग्दर्शक आनी व्यवस्थापन** | : | अजय ग. एकावडे |
| **नेपथ्य** | : | सुरेश शिरोडकार |
| **आवाज-उजवाड** | : | गोसाल रेगो |

ह्याच नाटकाचो दुसरो प्रयोग व्हडलें गोंयच्या इमेक्युलेट हार्ट ऑफ मेरी हायस्कुलच्या सीनियर भुरग्यांनी सादर केलो.

# अंक पयलो

## देखावो पयलो

*( दिनेशालें घर. जायू- दिनेशाली वावराडी, पिराय ३०-३२, शांत सभाव, समजुतकायेची बायल, फर्निचराची साफसफाय करता. मदींच थांबून.)*

जायू : सीताराम, हे सीताराम! खंय गेलो रे पापया, मात्सो हांगा यो रे!

सीताराम : *(पिराय वीस-बावीस. मानाय, इंग्लीश शिकपाची आवड, फकांणेर, धांवून भायर येता.)* व्हाय यू आर शावटिंग मेन! कित्याक आड्डेता गो तूं, जालां कितें तुजें? तुका हांवें कितले फावट सांगलें, म्हजे नांवान मोट-मोट्यान आड्डेवं नाका म्हणून. बग्गर सीताराऽऽम सीताराऽऽम ! सीतारामान तुजो कितें पोटलो बी खाल्ला कितें गो!

जायू : आरे बाबा, आड्डेवं नाका जाल्यार किते करूं? बाबुल्याक हाडूंक वचपाचो ओगोत जालो, आनी तूं हांगाच घुस्पता?

सीताराम : आयजसावन बाबुल्याक हाडपाचें काम बंद. माडाम ओर्डरड मी! माडामीन सांगलां म्हाका.

जायू : माडामीन सांगलें आनी तुवें आयकलें? कितें रे पापया तूं ! अजून ल्हान आसा मरे तो. वाटेर कोणेय भेसडायलो जाल्यार

ताका?

सीताराम : देट यू व्हाय टेल मे? माडाम येतकच सांग मगो तिका!

जायू : *(निर्शेवन)* तिका आपल्या भुरग्याचें चऽड पडलां!

सीताराम : तुकां तिज्या भुरग्याचें चऽऽड पडलां मू? तूंच वच आनी हाड ताका. तूं म्हजे नावान गो व्हॉय शावटिंग!

जायू : तकली सारकी आसा मरे तुजी? कितें उलयता रे तूं! सोबता मरे तुका असलें उलोवप? ह्या घरांतलो चाकर मरे तूं?

सीताराम : *(गोल वयर काडून)* चाकर न्हय, सर्व्हंट म्हण सर्व्हंट! चाकर तूं जायत, हांव न्हय!

जायू : जांव कोणय. पूण अन्न खातात मरे आमी ह्या घरांतलें? खाल्ल्या अन्नांक पाळो दिवंक नाका?

सीताराम : आगो मिस जायू! तूं कितें उलयता तें तुका तरी समजता मगो? आय जाल्यार नॉट अंडरस्टेंड! तूं म्हजी तकली बेजार करूं नाका आं, पयलीं सांगतां. म्हजें काम फकत माडाम कितें सांगता तें आयकुपाचें, आनी फावता तेन्रा इंग्लीश शिंकपाचें. रॅट म्हणजे मांजर आनी कॅट म्हणजे उंदीर. *(विचार करून)* सारकें उलयलां मगो हांव?

जायू : देवाक खबर! म्हाका खंय कळटा इंग्लिश.

सीताराम : कळना मगो? आतां शीक, मनीस जातलें!

जायू : हांव? म्हाका नाकारे बाबा तुमची इंग्लीश. म्हाका म्हजीच भास सारकी उलोंवंक आयल्यार पुरो. ती इंग्लीश शिकून म्हाका खंय इंग्लंडाक बी वचूंक जाय काय कितें?

सीताराम : असल्या चिंतपानी तूं गोबोर खातलें. आगो मेडा, माडाम ह्या घराचें इंग्लंड करूंक सोदता खबर ना तुका?

जायू : करूं बाबडी, ती आपल्या घराचें इंग्लंड करूं ना जाल्यार फिंग्लंड करूं. म्हाका कितें?

सीताराम : *(चाळोवन)* म्हाका कितें? तूं इंग्लंडाक रावन कोंकणी उलयतलें? आनी खातलें कितें गो, गोबोर? लोक म्हणटात पोट भरूंक जाय जाल्यार खंय इंग्लीश शिकूंक जाय.

जायू : म्हाका खरें दिसना तें. पोट भरूंक जाय जाल्यार शेतां रोवंक जाय, देवान दिल्ल्या हाता-पायांचो उपेग करून घाम गळोंवक जाय. हांव सर्गार लेगीत गेलें जाल्यार म्हजी कोंकणी सोडी सारकें ना.

सीताराम : सर्गाविले लोक कोंकणी उलयच ना जाल्यार! थंय फक्त इंग्लीश आनी पोर्तुगीज चलता. ना जाल्यार व्हडले-व्हडले मनीस आपल्या भुरग्यांक कोंकणी आनी मराठी शिकोवचे नाशिल्ले?

जायू : तें कितेंय जांव, तूंच शीक ती इंग्लीश, म्हाका नाका.

सीताराम : शीक म्हणजे? शिकतोलोंच! आता सर्व्हंटांनी कोंकणी उलोवचेले दीस फाटीं पडले. आतां सर्व्हंटांनी इंग्लीश उलोवपाचें आनी धनयांनी कोंकणी, फकत माडाम सोडून. चार दीस मायचे आनी चार दीस सुनेचे! आनी हें पळे जायू, हे फुडें तूं म्हाका सिंगल सीताराम म्हणचें ना, सांगून दवरतां!

जायू : म्हणचे रे? आतां तूं डब्बल जाला? तुका आतां डब्बल आनी टिब्बल सीताराम म्हणचें पडटलें कितें रे. सीताराम - सीताराम - सीताराम अशें.

सीताराम : *(मान हालोवन)* छे! तशें न्हय गो! तूं सामके गड्डें, तुका कितेंच समजना.

जायू : आनी कशें तर?

सीताराम : सीताराम म्हणचे पयलीं, मिस्टर म्हणूक जाय म्हाका.

जायू : *(अजापान)* मिक्सर?

सीताराम : *(कपलार हात मारून)* मिक्सर न्हय गो! *(एकेका अक्षराचेर भर दिवन)* मि-स्टर-र...... मिस्टर, मिस्टर!

जायू : मिस्टर म्हळ्यार कितें रे?

सीताराम : तूं नकळो मगो? कशें कळटलें! सद्दा शेगडेक वेंग मारून बसता. इंग्लीश शीक म्हळ्यार तेंय जायना.

जायू : तूं सांग मरे म्हाका, मिस्टर म्हळ्यार कितें तें.

सीताराम : मिस्टर म्हळ्यार .... मिस्टर म्हळ्यार .... मिस्टर-

जायू : म्हळ्यार कितें?

सीताराम : *(गोंदळून)* मिस्टर म्हळ्यार . मिस्टर म्हळ्यार एक व्हडलो मनीस.

जायू : *(जायू मोट्टयान 'खूः खूः खूः' करून हांसता)* तूं व्हडलो मनीस? *(लोकांक)* हो व्हडलो मनीस खंय! *(परत मोट्यान हांसता)*

सीताराम : हे मेडा, हांसता कितें? 'खिः खिः' करून. बकच्छायो करता म्हज्यो, एक उडयतोलों कानसुलाबराबर! येदे व्हडल्या मनशाचीं फकाणां करता? तूं कितें समजता गो म्हाका? तुजे भशेन बोणो म्हणून? इंग्लीश शिकुना गो हांव? पळय - आर - ए - टी रॅट, बॅट-मॅट - चॅट - मॅट - दॅट - कॅट पळेलें? अशें उलोंवक कळटा तुका? तरी हांव एकसारको शिकत आसां. शिकून शिकून हांव एक दीस मिस्टराचो डस्टर लेगीत जातलों. मागीर हांगा कोण रावता? तुजेकडे उलोवचो लेगीत ना.

जायू : जा रे बाबा, जावंकच जाय.

सीताराम : तशें जाल्यार कोंग्रेसन ना जाल्यार टेंकू बी म्हण मुगो म्हाका.

जायू : हांव बाबा वतां रे! खूब कामा पडल्यांत, लिलाबाय येवची जाली.

सीताराम : लिलाबाय न्हय, माडाम म्हण, माडाम!

जायू : *(वचूंक लागता)* आनी हें पळय सीताराम.....

सीताराम : हेऽऽ... सीताराम न्हय, मिस्टर सीताराम!

जायू : बरें, बरें, *(मोट्ट्यान)* मिऽस्टर सीताराम!

सीताराम : *(सलाम करून)* येस माडाम, नोट माडाम -जायू!

जायू : बाजारांत वचून वेगीं नुस्तें घेवन यो. ना जाल्यार बस्सी रेट-फेट करीत! *(जायू भितर वता. भायल्यान बाबुलो येता. पिराय ६ वर्सां. पोशाक शाळेचो युनिफोर्म.)*

बाबुलो : सीताऽऽलाम! हांव आऽऽयलों....

सीताराम : आयलो? जांव सायबा! आयज सावन एक काम उणे जालें.

*(लोकांक)* ह्या बाबुल्याक हाडपाक आनी व्हरपाक दिसांतल्यान दोन खेपो मारच्यो पडटाल्यो.

बाबुलो : सीतालाम, मम्मी येंवक ना?

सीताराम : घे! सीतालाम!! *(हात लाम करून)* हांव लाम खंय. *(भेंडार हात धरून)* बाबुल्या....

बाबुलो : (*भेंडार हात धरून*) ओऽऽऽऽ!

सीताराम : शाण्याऽऽऽ!

बाबुलो : ओऽऽऽ!

सीताराम : भांगराऽऽ!

बाबुलो : ओऽऽऽ!

सीताराम : तूं सारको उलोंवक केन्ना शिकतलो?

बाबुलो : हांव सालकोच उलयतां.

सीताराम : *(चाळोवन)* हांव सालकोऽऽच्य उलयतां....... तूं म्हाका कसो उलो मारता? सारको उलो मार.

बाबुलो : शितालाऽम...

सीताराम : शितालाम न्हय. सी-ता-रा-म.

बाबुलो : सी-ता-ला-म....

सीताराम : *(कपलार हात मारून)* शितालाम न्हय रे बाबा! म्हण, सी - ता - रा - म.

बाबुलो : शितालाम, न्हय ले बाबा, म्हन, सी-ता-ला-म *(सीताराम परत कपलार हात मारता. बाबुलोय तशेंच करता)*

सीताराम : *(हात लाम करून)* हांव लाम रे?

बाबुलो : कोण तल तूं?

सीताराम : म्हाका लाम म्हणू नाका, राम म्हण,

बाबुलो : तें म्हजे कलेन जायना. *(अशें म्हणून घरांत धांव मारता. सीताराम पिकार जाता.)*

सीताराम : बाबुल्या, हांगा यो पयलीं.

बाबुलो : हांव येना, म्हज्या पोताक भूक लागल्या. *(भितल्ल्यान जायू बाबुल्याक घेवन भायर येता.)*

| | | |
|---|---|---|
| जायू | : | एकटोच आयलो रे म्हज्या शाण्या? वाटेर भंय बी दिसलो ना मरे तुका? |
| बाबुलो | : | ना हांव आतां शक्तीमान जालां. हांव कोणाक भियनां. हांव म्हज्या पप्पा भसेन जवान जातलो... शूल गली वील गली .... |
| जायू | : | शाब्बास ! आमचो बाबुलो आतां खूब शाणो जाला. व्हडलो जालो ना तर तो? *(सीताराम भितर वता.)* |
| बाबुलो | : | जायू, मम्मी केन्ना येतली? |
| जायू | : | जाली येवची आं! चल तुकां दूद दितां. भूक लागली मरे म्हज्या बाबुल्याक? |
| बाबुलो | : | जायू, तू कितलें बलें? |
| जायू | : | आनी तूं बरो न्हय तर! |
| बाबुलो | : | हांव बलो आनी तूं बलें, मम्मी मात बली न्हय! |
| जायू | : | कित्याक रे बाबा? तशें म्हणचें न्हय आं! तुजी मम्मीय बरी. |
| बाबुलो | : | *(रागान)* ना. मम्मी बली न्हय, ती म्हजो मोग कलीना, म्हाका वेंगेंत घेना, काणी सांगिना, म्हल्यांत गेल्याल पेल्यान धुकलता. |
| जायू | : | तूं मस्ती करता. आनी तूं शिकना म्हणून तुजेर ती रागार जाता. |
| बाबुलो | : | हांव शिकनां तल? |
| जायू | : | शिकता रे म्हज्या शाण्या! पूण बरेऽभशेन शिकूंक जाय न्हय? तुका व्हड जावंक जाय मरे? |
| बाबुलो | : | मनीस शिकल्यार व्हल जाता? |
| जायू | : | हय! |
| बाबुलो | : | शितालाम सांगता, खूप जेवल्याल व्हल जाता म्हून..... |
| जायू | : | व्हड जावंक मनशान जेवंकूय जाय आनी शिकुंकय जाय. तूं शक्तिमान जातलो जाल्यार खूप जेवंक जाय, शाणो आनी हुशार जातलो जाल्यार शिकूंक जाय. |
| बाबुलो | : | कायतुलो पाय कांयच शिकूंक ना, तो कशो व्हल जालो |

तल?

जायू : कोण सांगता, कायतुलो पाय कांयच शिकूंक ना म्हूण? तो माडार चडूंक, खणूंक, शेत रोंवक बी शिकला.

बाबुलो : तशें जाल्याल हांवय शेत लोवंक शिकतोयों....

जायू : सगल्यांनीच शेत रोंवंक आनी खणूंक शिकूंक उपकरना. तुकां वाचूंक-बरोवंक शिकून दोतोर बी जावंक जाय.

बाबुलो : म्हाकां इंग्लीश समजना, कोंकणीन सांग म्हनल्याल टिचल दोले मोटे कलता.

जायू : म्हणून तुवें शिकूंक जाय, इंग्लीश.

बाबुलो : तुका येता इंग्लीश, तूं शिकय म्हाका.

जायू : म्हाका येना रे बाबा!

बाबुलो : तुका इंग्लीश येना? तूं शाने कशें जालें तल? आमची टिचल शांगता, इंग्लीश शिकतात ती मनशां खंय खूब शानी जातात.

जायू : अं ! *(आपल्या भितर)* तीं चऽड शाणी जाल्यांत.

बाबुलो : *(विशय बदलून)* तूं आयज म्हाका कानी शांगतलें मुगो जायू? म्हाका तुज्यो कानयो खूब आवलतात.

जायू : अशें? तशें जाल्यार, हांव म्हज्या बाबुल्याक खूब-खूब काणयो सांगतलें. चल आतां भितर वच आनी हात-पायें धू. *(जायू बाबुल्याक भितर व्हरता. भायल्यान लिला येता. पिराय तीस-बत्तीस, दोळ्यांक गोगल, स्टायलीश, उंची साडी, खांदार पर्स, उलोवपांत कडकसाण.)*

लिला : *(पायांतलीं सेंडलां काडीत)* सीताराम, ओ सीताराम! खंय मेला काय हो! पाड पडिल्लो एका उल्यान केन्नाच जाप दिवंचो ना. स्टुपिड! *(मोट्यान)* हे सीताराम...

सीताराम : *(धांवून भायर येता)* येस माडाम... माडाम यू कमड?

लिला : *(रागान)* यू कमड? कितें उलयता रे तूं?

सीताराम : तूं आयली काय म्हणून विचारतां, इंग्लीशींन.

लिला : दोळे बी फुटले काय कितें रे तुजे? म्हऱ्यांत उबी आसा तें

दिसना तुका?

सीताराम : दिसता माडाम, सोरी माडाम!

लिला : *(थंडसायेन)* तुवें म्हजे साडयेक फेर मारलें?

सीताराम : येस माडाम, आय किल्ड इट व्हेऽऽन!

लिला : म्हर्जी सगळीं सेंडलां पुसून दवरल्यात काय ना रे?

सीताराम : नो माडाम!

लिला : *(रागान)* कितें?

सीताराम : *(भियेवन)* येस माडाम, किपड-किपड!

लिला : गूड!

सीताराम : *(खोशेंन फुलता)* गूड! माडाम, तुवें म्हाका गूड दिलो? *(खोशेन माचीभर नाचता)* म्हाका गूड पडलो - म्हाका गूड पडलो - म्हाका.....

लिला : शट अप!

सीताराम : शट अप!

लिला : *(रागान)* व्हॉट?

सीताराम : नॉट व्हॉट, शटाप!

लिला : सीताराम.....

सीताराम : येस माडाम!

लिला : तुजी तकली जाग्यार आसा मरे?

सीताराम : *(तकलेक हात लावन तपासता)* येस माडाम!

लिला : तूं शट अप कोणाक म्हणटा?

सीताराम : शटाप म्हणजे कितें माडाम?

लिला : *(रागान)* तुजो खड्डो.

सीताराम : येस माडाम? म्हाका खबरच नाशिल्ली. आनी एक उतर शिकलों. *(आपले भितरच)* शटप म्हणजे तुजो खड्डो, शटप म्हणजे तुजो खड्डो, शटाप म्हणजे...

लिला : पाड पडलें हाजें ! आरे रेड्या....

सीताराम : एस माडाम!

लिला : *(ताज्या कानांक धरून)* तुका पिशें बी लागुना मरे?

सीताराम : *(मोट्यान बोब मारीत)* मदर गेऽऽ, मदर गेऽऽ, मदर गेऽऽऽ.....
लिला : *(कान सोडून)* गॅट आवट, गॅट आवट ऑफ हिअर....
सीताराम : *(लोकांक)* म्हणजे भायर वच. *(धेपां मारीत वचूंक लागता)*
लिला : *(नमळायेन)* सीताराम!
सीताराम : *(धावून येता)* येस माडाम!
लिला : हें पळय, आमगेर एक व्हडलो सायब येवपाचो आसा.
सीताराम : खंयचो? गोंयचो?
लिला : तूं एक आसा. एक सांगल्यार दुसरेंच समजता. सायब म्हळ्यार आमगेर एक व्हडलो मनीस येवपाचो आसा.
सीताराम : इंग्लीश उलयता तसलो?
लिला : हय. *(पर्सितले दुडू काडटा)* हे पयशे घे, बाजारांत वच, आनी तीन बियेरी बाटल्यो घेवन यो.
सीताराम : *(विचार करून)* भायरेच्यो बाटल्यो?
लिला : हय रे बाबा, मात्सो वेगीन वचून यो पळोवया!
सीताराम : *(आपलेच भितर)* एका मनशाक तीन भायरेच्यो बाटल्यो? केदो मनीस आसतलो काय हो? आनी भायरी घेवंक हांगा कित्याक येता? संडास बी ना दिसता हांगेर.
लिला : घुस्पता कित्याक रे हांगा! वच मरे आतां. *(तो वचूंक लागता)* आनी आयक....
सीताराम : *(वळून)* कितें?
लिला : काय ना, काय ना. वच. *(सीताराम वता, भितरल्यान बाबुलो येता.)*
बाबुलो : मऽऽ म्मीऽऽऽ! *(वेंग मारूंक वता)*
लिला : *(धुकलून)* फार्टी सर पोरा ! ते म्हेळे हात घेवन म्हाका वेंग मारुंक येता? हांव ड्रेसांत आसा तें लेगीत पळेना पोर! *(तो रड्टा, भितरल्यान जायू येता)*
जायू : कितें जालें रे बाबा, रड्टा कित्याक?
लिला : *(रागान)* जालें तुजें मडें ! *(चाळोवन)* कित्यें ज्यालें ले बाबाऽऽ ताजे हात धुनासतना भायर कसो सोडलो तुवें

ताका?

जायू : अशें तापता कित्याक लिलाबाय ! भुरगो न्हय तो, आवयचो ताळो आयकून तसोच आयलो धावून.

लिला : यू इडियट ! लागलें म्हाका लेक्चर दिवंक. हांव एक सांगल्यार तूं सदांच म्हाका चार सांगता. ह्या घरांतलें सर्व्हंट तूं काय हांव गो? इतलो मोद माल्ला तुका?

जायू : म्हाका मोद मारूंना. तूं ओगीच गरम जाता. मनशान इतलें तापूंक फावना.

लिला : हय गे बाये ! तूं म्हजी सासुमांय न्हय? शिकय म्हाका रीत. असो राग येता, खोंट मारून धावंडांव शें दिसता तुका. पूण करतलें कितें? सत्तेफुडें शाणेपण चलना. सांगून गेल्यात न्हय, आपूण ये सर सांबाळ म्हणून हाका. ताका लागून ओगी रावचें पडटा.
*(नेटान भितर वता)*

जायू : *(लिला गेलें तें पळोवन)* आनी हांव पूण खंय रावतलें आशिल्लें ह्या घरांत! तांच्या उतराक लागूनच सोसचें पडटा म्हाका हें सगळें. शिवाय ह्या पोराची ओड लागल्या. ना जाल्यार ह्या घरांत कितें घडटा तें पळोवंक रावचें नाशिल्लें हांव! असल्या मुर्खांची चाकरी करच्यापरस उपाशीं राविल्लें हजार वाट्यांनी बरें ! *(रडटा)*

बाबुलो : *(म्हऱ्यांत येवन)* जायू, तूं लत्ता? तूं लळूं नाका. तूं लल्ल्याल म्हाकाय लळूं येता. *(लिला भायर येता)*

लिला : बाबुल्या, बुक घेवन अभ्यास कर आं, हांव रोकडेंच येतां. *(वळून)* आनी हें पळय जायू , आयज आमगेर एक खास असो मनीस येवपाचो आसा. आमी दोगांय उलयतासतनां तूं भायर येवचेंना. कोणय उलयतासतनां मदेंच तुका तोंड घालपाची सवंय आसा म्हणून सांगतां. *(भायर वता. बाबुलो फाटल्यान दाराकडे पर्यंत वता आनी लिलाची नक्कल करता)*

बाबुलो : जायू, मम्मी पिशी न्हय गो?

जायू : शाणीं भुरगीं आपले आवयक पिशी म्हणिनांत.

बाबुलो : ती म्हजी आवय तल? ती मम्मी... जायू जायू, तूं म्हाका कानी सांगिना?

जायू : पयलीं दूद पिये, मागीर काणी सांगतां.

बाबुलो : पयलीं कानी शांग, मागील दूद पितां.

जायू : पयलीं दूद !

बाबुलो : पयलीं कानी.

जायू : बरें बाबा, सांगतां. *(बाबुलो जमनीर बसकल मारता. जायू म्हच्यांत बसून काणी सांगता)* एक आशिल्लो राजा मरे, आनी एक आशिल्ली राणी. *(बाबुलो सारको बसता)* 'हूं, म्हण मरे! *(तो म्हणटा)* राजा सामको शक्तिमान, बळीश्ट, बुदवंत, दयावंत, शूर आनी वीर आशिल्लो.

बाबुलो : म्हज्या पप्पाभशेन?

जायू : हय !

बाबुलो : आनी लानी कशी आशिल्ली?

जायू : राणी पळोवंक सुंदर, निळया - निळया दोळयांची, भांगरा केसांची, तांबड्या - तांबड्या ओटांची.

बाबुलो : तांकां भुलगीं नाशिल्लीं?

जायू : आशिल्लीं तर ! तांकां एक पूत आशिल्लो. राजपुत्र, सामको तुजेचभशेन दिसतालो.

बाबुलो : लानी लाजपुताक मालताली? म्हजी मम्मी म्हाका मालता तशी?

जायू : राजपुत्र राणीं सांगता तितलेंय आयकतालो. मागीर ती ताका कित्याक मारतली तर?

बाबुलो : हांवय म्हजी मम्मी सांगता तें सगलें आयकतां, तली ती म्हाका बलें कलीना.

जायू : काणी सांगतासतना अशें मदीं-मदीं नाका आशिल्लें उलोंवंक फावना. आतां ही काणी हांगाच बंद करूया.

बाबुलो : नाका-नाका, शांग तूं. हांव मदीं उलयना. जायू, लानी बली

आशिल्ली गो?

जायू : हय.

बाबुलो : तुजे भशोन?

जायू : ना. तुजे मम्मी भशोन.

बाबुलो : ना. म्हजी मम्मी बली न्हय. तूं म्हजे मम्मीक बली म्हन्ता? तूंय बलें न्हय. *कुक्कें तूं ! (हुंडक्यानी रड्टा)*

जायू : बरें बाबा, तूं सांगता तेंच खरें. आतां चल भितर या. तुका दूद दितां. उरिल्ली काणी मागीर सांगतां. *(दोगांय उट्टात. बाबुलो भितर वता. भायल्यान सीताराम येता)*

सीताराम : लेफ्ट-रायट, लेफ्ट-रायट, लेफ्ट-रायट, अेटेन्शन ! जायू, हाडल्यो!

जायू : हाडल्यो? कितें?

सीताराम : भायरे बाटल्यो.

जायू : इतल्यो भायरे बाटल्यो कोणाक रे त्यो ?

सीताराम : सायबाक ! सायब कमिंग.

जायू : सायब? कोण सायब ! आनी एक मनशाक तीन बाटल्यो?

सीताराम : व्हडलो सायब तो. जायच पडटल्यो !

जायू : तूं पयलो पिसो. तुवें कितें आयकलां देवाक खबर.

सीताराम : जायू, तूं म्हाका पिसो- बिसो म्हणू नाका आं, सांगतां. आतां 'मॅड' म्हळ्यार जाता. ह्यो बाटल्यो खंय दवरूं?

जायू : हांव नकळो, दवर तुका जाय थंय !

सीताराम : तूं दवर गो.

जायू : हांव शें कित्याक रे बाबा, तुवें हाडल्यात तूं दवर मरे !

सीताराम : हांगा दवरतां मेजार.

जायू : दवर ! *(तो दवरता)*

सीताराम : *(भायर पळोवन)* गो इन, गो इन!

जायू : गोविंद? खंयचो गोविंद रे!

सीताराम : गोविंद न्हय गो. *(काचाबूल जावन)* इन गो - इन गो! *(जायू तोंड आ करून पळेता.)* भितर वच, भितर वच. माडाम

आनी माडामो येतात. *(दोगांय भितर वतात. लिला आनी राजेंद्र प्रवेश करतात)*

लिला : काल कितली मजा आयली न्हय राजा? वेळेवेल्यान पासयो मारता आसतना लोक आमकां दोळे फाकारून पळेताले. हे इंडियन लोक केन्ना सुदरतले देवाक खबर. बायल आनी दादलो हातांत हात घेवन चल्लीं काय ना, लागले फुत-फुतूंक.

राजेंद्र : डार्लिंग, तांका कितलेंय सांग, आपलें तें केन्नाच सोडचे ना. सुण्याची शेंपडी पायपांत घाली म्हणून ती केन्ना नीट जाता! वाकडी ती वाकडीच.

लिला : धिस इज माय हाऊज !

राजेंद्र : ब्यू ऽऽ टीफूल !

लिला : आवंय! आवडलें तुका म्हजें घर? हाका कितें घर म्हण्टात रे? फोरेनांत गोरवांचे गोटे तरी हाजे परस बरे आसात खंय!

राजेंद्र : यू आर रायट. हे इंडिंयेत आसा कितें? सगळेकडे घाण !

लिला : म्हाका जाल्यार ह्या घरांत रावन लेगीत दिसना. रीत आनी सोब आसा ह्या घराक ?

राजेंद्र : हें मात खरें आं ! तुजें पोजिशन कितें? आनी हें घर कितें! तुजे असली सुंदर राणी पेलेशींतच सोबचेली.

लिला : खऱ्यानीच हांव इतलें सुंदर आसारे राजा?

राजेंद्र : विचारता? मेडम, विश्वसुंदरेच्या सर्तीत वाटो घेतिल्लो जाल्यार येन्ना विश्वसुंदरी म्हणून मिरयतली आशिल्ली.

लिला : थेंक यू ! तुज्या लक्षांत तरी आयलें म्हजें म्हत्व. ना जाल्यार कोणाचें कोणाक पडलां !

राजेंद्र : शेजारची व्हकल खंय....

लिला : आसूं तें. फुडलें उलोंव नाका. म्हजें नशीबच खोटें, ताका कोण कितें करतलो?

राजेंद्र : मेडम, तुजे असल्या कर्तबगार आनी हुशार बायलांनी नशिबाक रडूंक फावना.

लिला : राजेंद्र, तू म्हाका परत-परत मेडम-मेडम अशें कितें करता रे!

राजेंद्र : कित्याक? हावें मेडम म्हणिल्लें आवडना तुका?

लिला : म्हाका असलो दुरावो आवडना. आमी आतां फ्रेंड जालीना?

राजेंद्र : यस्. डार्लिंग !

लिला : आतां कशें जालें? अशेंच क्रितेंय म्हळ्यार जाता.

राजेंद्र : वा ! मनशान अशेंच प्रोग्रेसीव आसूंक जाय, एम् आय् रायट ?

लिला : हंड्रेड पर्शेंट ! म्हाका हिंदू बायलांची मजा दिसता, इंग्लीश शिकून लेगीत आपल्या घोवाक केन्ना डार्लिंग म्हणची नांत.

राजेंद्र : देवाक डार्लिंग कशीं म्हण्टलीं?

लिला : म्हणजे?

राजेंद्र : इंडियन बायलो घोवाक देव मानून ताची पूजा करतात न्हय? जल्मभर चुलीकडे बसून भुरग्यांची आनी घोवाची सेवा करपांतच तांकां व्हडपण दिसता. भायल्या देशांनी मात अशें नासता आ! थंयचे लोक खूब फुडारल्यात, घोव आपल्याक जाय तशें करता आनी बायल आपल्याक जाय तशें... आनी हांगा मात जल्मभर घोवाची गुलामी!

लिला : पूण हांव मात तशी न्हय आ! हांव पयलींपासून स्वतंत्र विचारांची. पूण डॅडीन म्हजी वाट लायली.

राजेंद्र : ती कशी?

लिला हावें म्हज्या डॅडीक सांगिल्लें, म्हाका त्या देड दमडेच्या शिपुरड्याच्या गळ्यांत बांदू नाका म्हणून, पुणून निमणे डेडीन आपल्याक जाय तेंच केलें आनी म्हाका त्या आर्मीवाल्याच्या गळ्यांत अडकयलें.

राजेंद्र : हाचोच अर्थ तुमच्या डॅडीन तुज्या भावनाची कदर केलीना. मागीर खंय गेले ते तुमचे सोतंत्र विचार !

लिला : चूक जाली खरी, पुणून हाजेफुडें हांव कोण्णाचें आयकुचेंना.

राजेंद्र : म्हजें लेगीत?

लिला : आवंय, तूं म्हजो बरें मागपी फ्रेंड न्हय रे ! तूं सांगता तें आयकना जाल्यार आनी कोणाचें आयकतलें हांव? हांव तुका खरेंच सांगतां राजेंद्र, आय हेट सच लायफ ! तूं म्हाका कशेंय करून ह्या पांजऱ्यांतलें भायर काडपाची माण्णी कर !

राजेंद्र : हांव आसतना तूं कित्याक भियेता? हांवें कितल्याशाच बायलांक पांजऱ्यांतल्यान सोडयल्यात. पूण लिला, तूं अशें कित्याक करिना.

लिला : अशें म्हणजे कशें?

राजेंद्र : तुका घोवाचो सांगात जाय न्हय? तूं ताका ती सर्विस सोडूंक लाय मगो. व्हाय डोंट यू ट्राय?

लिला : ट्राय जायती केली, पुणून म्हजें आयकता कोण? खरें सांगू तुका राजेंद्र, आय हेट दॅट मॅन ! पुणून करतलें कितें, उपाय ना.

राजेंद्र : उपाय नांत कित्याक? सोदूंक गेल्यार जायते आसात. तूं कसलीच काळजी करूं नाका. हांव आसा न्हय? हांवें आतांच सांगलां तुका की हांवें जायत्या बायलांची सुटका केल्या म्हणून.

लिला : तें जालें रे. पुणून त्यो सुटका केल्ल्यो बायलो आतां कितें करतात?

राजेंद्र : समाजसेवा !

लिला : मागीर हांवेंय समाजसेवा करपाचें काय कितें? म्हाका तसलें कांय जमपाचें ना आं, पयलींच सांगतां.

राजेंद्र : तुका समाजसेवेची आवड ना मूं? बरें आसा. आमी एकमेकांची सेवा करूया.

लिला : तसलें कितेंय उपकरता. पुणून ह्या घरांतलें कशेंय करून भायर पडूंक जाय म्हाका. म्हजेकडे दुडू जायतो आसा रे, पुणून दुडवांनी सगळींच सुखां मेळतात खंय?

राजेंद्र : दुडू आसात मुगो? जालें तर ! दुडू आनी हांव आसतना

तुका कोण्णाक भिवपाची गरज ना. लेट अस येंजोय !

लिला : हय रे, पुणून हाचे फुडें आमी करपाचें कितें ते स्पश्ट जांव नाका?

राजेंद्र : तुका हें घर मानवना मुगो ? आनी घोवय आवडना.

लिला : तशें न्हय रे..

राजेंद्र : आनी कशें तर? हें पळे लिला, मनशान सामके क्लियर आसूंक जाय. ताकाक येवन गाडगो लिपोंवक फावना. तातूंत तूं स्वतंत्र विचारांची बायल. खरें काय ना?

लिला : तें खरें रे ! पुणून हांवें कितें करचें दिसता तुका? म्हजें बाये काळीज कलकलूं लागलें.

राजेंद्र : तुजें काळीज हांव सारकें करतां. तुमचीं, बायलांची काळजां तशींच आसतात. पयलीं तुमी व्डल्यो व्हडल्यो फटाशो मारतात, आनी निर्णय घेवपाच्या वेळार तुमचीं काळजां कलकलूंक लागतात. हिंदू बायलांचीं काळजां तीं!

लिला : तें लेक्चर नाका म्हाका, फुडलो मार्ग दाखय.

राजेंद्र : फुडलो मार्ग कांय ना, एक घाय दोन कुडके !

लिला : म्हणजे?

राजेंद्र : म्हणजे आनी कितें? फाटलो - फुडलो विचार न करतां, तुवें हें घर सोडपाचें?

लिला : आनी मागीर खंय वचूं रे बाबा...

राजेंद्र : खंय म्हणजे? एका बिळा माल्लो खिळा, हुंदीर गेलो दुसऱ्या बिळा !

लिला : तें तुज्या हुंदरांक कोताक येवपाचें, म्हज्या असल्या बायलांक न्हय.

राजेंद्र : *(लोकांक)* पळेलें? आयलेंना मूळ पदार. आगो बाये, हांव आसा तो कित्याक? तूं म्हजें फ्रेंड, मागीर फ्रेंडाक फ्रेंड पावना जाल्यार आनी कोण पावतलो? आमी दोगांय लग्न जावया आनी सुखान रावया. लायफ इज शोर्ट यू नो !

लिला : आरे, पुणून तें कशें शक्य आसा.

राजेंद्र : कित्याक शक्य ना, कित्याक शक्य ना? मनाचीच तयारी आसूंक जाय. मिया बिबी राजी तो..

लिला : क्या करेगा पाजी..

राजेंद्र : पाजी न्हय, काजी. म्हण काजी.

लिला : जांव कोणय मसणो ! आरे हांव तुजे घरा आयल्यार तुजी बायल घेत मरे म्हाका घरांत?

राजेंद्र : म्हजे बायलेक हांवें घरांतल्यान केन्ना धांवडायली.

लिला : धांवडायली? कित्याक?

राजेंद्र : खोशी म्हजी ! मानवलीना, दिली धांवडावन !

लिला : आनी ती ओग्गी रावन गेली रे ?

राजेंद्र : ना. मुज्ग लावन वाजयत, गाजयत, धाडली तिका हांवें. हें पळय लिला, हांव एक तुजे भसेनच सोतंत्र विचारांचो मनीस. म्हाका कसलेंच बंधन सोसना. हे बाबतीत तुजें - म्हजें सारके जमता, खरें काय ना?

लिला : खरें रे. पुणून..

राजेंद्र : हो आनी पुणून मदें कित्याक? तुजी तयारी आसा जाल्यार सर भायर आनी चिंतपाची कांयच गरज ना. देवाचे कृपेन म्हजें घर भरून दार वोतता. हें मोडके घर आनी बावळट घोवाचो त्याग कर आनी यो म्हज्या बंगल्यार.

लिला : *(विचार करून)* राजेंद्र म्हजें मन तुका हय म्हणूक तयार जायना.

राजेंद्र : *(हांसता)* कशें जातलें? इंडियन न्हय तें? गुलामगिरी सोडूंक सोपेपणान तयार जांवचेंना. पळय लिला, हांव तुका आवडटा काय ना?

लिला : हें कितें विचारप जालें !

राजेंद्र : तूं अशें कर, म्हजे वांगडा यो. म्हज्या बंगल्यार थोडे दीस राव. उपरांत हांव तुका आवडलों ना जाल्यार दी सोडून.

लिला : कितें? कितें उलयता रे तूं राजेंद्र !

राजेंद्र : खरें तेंच उलयतां. युरोप - अमेरिकेंत अशेंच चलता. टिव्हीचेर

पळय मगो कितें चल्ला तें.

लिला : राजेंद्र, हांव तुजे वांगडा येवंक तयार आसां, पुणून म्हाका थोडो वेळ विचार करूं दी. आरे, उलोवण्याच्या बोवाळांत सगळें विसरलें पळय हांव. सीताराम, हे सीताराम ! खंय गेलो रे तो. *(सीताराम येता)*

सीताराम : येस माडाम !

लिला : सायब येवन बसला तो दिसना तुका? हावें सांगिल्लें काम केलें तुवें?

सीताराम : येस माडाम !

लिला : बाटल्यो खंय रे?

सीताराम : ऑन टेबल क़िपड.

लिला : कितें?

सीताराम : म्हजी हाय इंग्लीश समजना जातली हिका. *(उगड)* त्यो कितें मेजार दवरल्यात त्यो?

लिला : *(सोदता)* खंय रे? आरे ह्यो भायरेच्यो बाटल्यो कित्याक हाडल्यात?

सीताराम : सायबाक दिवंक. आनी दोन लिंबूय हाडल्यात- बरें केलेंना?

लिला : ओ बयला ...

सीताराम : बयल न्हय, ओक्स !

लिला : गेट आऊट !

सीताराम : येस माडाम! हे भशेन इंग्लीशीन कोणय तापत जाल्यार म्हाका खूब बरें दिसता. *(लोकांक)* गेट आऊट म्हणजे सर भायर *(धेपां मारीत वता )*

**काळोख**

## अंक पयलो

## देखावो दुसरो

*(थळ पयलींचेंच. राजेंद्र कदेलार बसून पेपर वाचपाचें नाटक करता. ताचें शिंतीद घरांत लिलाचेर चड आसता. भायल्यान सतीश दिनेशाचो इश्ट येता. आंगान धडधाकट, पळोवंक देखणो, पिराय सुमार ३०, गरीब. भितर सरचे पयलीं बेल मारता)*

राजेंद्र : कोण? प्लिज कम इन. दार उकतें आसा.

सतीश : *(भितर येवन)* नमस्कार!

राजेंद्र : गुड इवेनिंग ! कोणाक सोदता?

सतीश : ह्या घरांतले घरकान्नीक. आसा न्हय ती भितर?

राजेंद्र : आसा, आसा. बस आं.... लिला डार्लिंग, समबॉडी इज कम. कितें मोटें काम आसलें?

सतीश : तशें मोटें काम कांय ना. आमचें सदांचेंच येवप वचप आसा हांगा. तुमी कोण?

राजेंद्र : म्हजें नाव राजेंद्र. गोंयचोच हांव, पुणून रावतां बॉम्बे. केन्ना केन्ना गोयांत येतां बिजनेसाक लागून.

सतीश : अशें - अशें !

राजेंद्र : व्होट इज युअर नेम, प्लिज?

सतीश : म्हजें नाव सतीश, मेरशेचो हांव. दिनेशाचो लंगोटीमित्र.

राजेंद्र : आय सी... ग्लॅड टू मीट यू. *(हात दिवंक वता. सतीश ताका नमस्कार करता)*

सतीश : म्हाका कोंकणी येता. इंग्लीश उलोवपाची गरज ना.

राजेंद्र : काम कितें करता म्हळें?

सतीश : शेत रोयतां, पावसांत भात आनी गिमांत मिर्सांगो कांदे बी..

राजेंद्र : तुज्या ड्रेसावेल्यान तूं शेतकार असो दिसना.

सतीश : कपड्यावेल्यान मनशाक वळखपाचे दीस आतां फाटीं पडले. आतां भेसावेल्यान चोर काय साव तें कळपाक खूब कठीण!

राजेंद्र : अशें कित्याक म्हणटा तूं?

सतीश : म्हजो अणभव सांगता म्हाका. मनशान कपडे नितळ घाले म्हणून ताचें मन आनी काळीज साफ आसता अशें समजूं नज. खरें न्हय?

राजेंद्र : तूं एक शेतकार आसूनय तुजें गिन्यान तोकणाय करीसारके आं!

सतीश : अशें कित्याक म्हणटात तुमी, शेतकाराक गिन्यान उणे बी आसता काय कितें.

राजेंद्र : तूं कितें शिकला?

सतीश : म्हज्या आवयच्या दुदांतल्यान शिकप मेळ्ळां तितलेंच.

राजेंद्र : आवयच्या दुदांतल्यान? *(मोटमाट्यान हांसता)* हें आनी बाबा कसलें शिकप? हांव पयलेच फावट आयकतां.

सतीश : अजाप दिसलें? दिसपाचेंच आमची पयलीच भेट न्हय !

राजेंद्र : हें दुदांतलें शिकप म्हणजे कितें तें म्हाका मात्शें समजावन सांग पळोवया?

सतीश : तें तुमकां समजपाचें ना. आयज आमच्या देशांत इस्कोलाचे पांवडे चडूं नाशिल्ले हजारानी लोक आसात, तांचें शिकप आवयच्या दुदांतल्यानच जालां. बरें तें आसूं. तुमचो ह्या घरात कसलो बिजनेस चल्ला, हें सांगशात म्हाका?

राजेंद्र : म्हजो ह्या घरांत बिजनेस कसलोच ना.

सतीश : मागीर, ह्या घरांत तुमचें येवप कशें जालें तर?

राजेंद्र : ह्या घराची धनीण, लिला म्हजें गर्लफ्रेंड.

सतीश : गर्लफ्रेंड? लग्न जाल्ली बायल म्हणून केन्ना कोणाचें गर्लफ्रेंड जाता खंय! आतां बायल फ्रेंड जांव येता.

राजेंद्र : तूं कितेंय म्हण, निमणे फ्रेंड तें फ्रेंड. तुका कोण फ्रेंड - ब्रिंड ना दिसता म्हणून तूं तशें उलयता.

सतीश : ना कित्याक? खूब आसात. हांव म्हजे इश्टीणींक भयणीचे सुवातेर मानतां. आमचें नातें भाव-भयणांचें आसता. तुजेभशेन इश्टीणीचा घोव घरा नासतना तिज्या घरांत वचून बसकण मारिना.

राजेंद्र : कित्याक? तशें केल्यार पाप लागता? कितें गांवढळा भशेन उलयता रे तूं !

सतीश : हांव आसांच गांवढळ. तातूंत म्हाका कसलेंच वायट दिसना.

राजेंद्र : सगळो सोंवसार सुदरलो तरी तुमी सुदरपाचे नांत.

सतीश : आसूं आमकां अशेच! आमकां अनाड्यांक, तुमच्या असल्या सुदारीक लोकांचो खूब भंय दिसता. तुमच्या प्रत्येक करतुबाकडे आमकां दुबावान पळोवंचें पडटा. म्हजें आनी ह्या घरांतल्या घरकान्नीचें नातें भाव-भयणीचें, ताका लागून ह्या घराभोवतणी कोणय परकी मनीस दिसल्यार, मनात दुबावाची पाल चुकचुकप सभावीक दिसना तुमकां? तुमचें हे गर्लफ्रेंडाचें नातें म्हाका दुबावाचें दिसता म्हणून म्हण्टा.

राजेंद्र : तुका कितें दिसता तें म्हाका नाका. आय डोंट बोदर अबावट इट ! हांव तुजे असल्या चिल्लर मनशाकडे हुज्जत घालपी न्हय, समजलें? तुजें कसलें काम आसा तें कर आनी फूट हांगाचो. म्हजें काम म्हाका करूं दी !

सतीश : तुमचें काम कसलें तें म्हाका कळूंक जाय.

राजेंद्र : म्हजें काम तुजेकडेन ना, लिलाकडे आसा.

सतीश : तेंच म्हाका कळूंक जाय.

राजेंद्र : कित्याक? जबरदस्ती करता म्हजेर? तूं कोण म्हजेर जबरदस्ती करूंक?

सतीश : हें पळयात, तुमचें मन साफ ना. आतां आयलें म्हज्या लक्षांत. लोक उलयतात तें फट न्हय तर!

राजेंद्र : *(दचकून)* कितें उलयतात लोक?

सतीश : लोक उलयतात की ह्या घरांत एक भामटो आनी तवनास भितर सल्ला म्हणून !

राजेंद्र : कितें? हांव भामटो?

सतीश : हांव तशें म्हणना, लोक म्हणटात.

राजेंद्र : तें तूं म्हाका सांगूक आयला? तुजी जीब आतां मात्शी लांब जावंक लागल्या शी दिसता. ती कापूंक बी जाय काय कितें?

सतीश : तें काम म्हजेकडे बरें जातलें. कारण म्हाका शेत कापपाची संवय आसा?

राजेंद्र : *(रागान पळेता)* आतां तूं गेल्यार बरो हांगचो. कोणाकडे कशें उलोवचें तें कोणे शिकोवंक ना काय कितें? इडियट !

सतीश : कितें उलयता तें म्हाका समजता तशें उलय आं! हांव पयली गांवढळ, राग आयल्यार केन्ना कितें करीन हें सांगू नज. हांव ह्या घरांत अकस्मात घुसूं ना. म्हज्या इश्टाच्या घरांत एक देंवचार भितर सल्ला अशें सपन पडलें म्हाका. त्या देंवचाराक बाटलेंत ना जाल्यार बेल्यांत भरच्याखातीर आयलां हांव हांगा. तें काम पुरें केले बगर हांव थंड बसचो ना. *(भितरल्यान लिला येता)*

लिला : कोण सतीश? तरी म्हणटां, येदो बोवाळ कोणाचो काय म्हणून! मिस्टर राजेंद्र, हो सतीश आमच्या हांचो, म्हणजे दिनेशाचो बेस्ट फ्रेंड! आनी सतीश, हे...

सतीश : जाली आमची वळख वहिनी! तुज्या फ्रेंडाक मेळून म्हाका खूब बरें दिसलें.

राजेंद्र : *(लिलाक)* यू कॅरी ऑन, हांव रोकडोच येतां.

लिला : बस तूं राजेंद्र, सतीश आमचोच आसा.

राजेंद्र : ना. उलयात तुमी. *(वता. वतना सतीशाक कोरें करून पळेता)*

लिला : सतीश, इतले दिसांनी तुका आमची आयज शी याद जाली.

सतीश : वहिनी, हांव जाणां म्हजें येवप तुका आवडचेंना म्हणून.

लिला : कित्याक आवडचें ना? अशें खास कितें घडलां तर हांगा.

सतीश : न्हय ते वेळार भितर सरलों न्हय हांव? आनी तुजें काम फिस्कटलें.

लिला : तशें म्हजें काय फिस्कटुना आनी हांव फिस्कटूंक दिवचेंय बी ना. म्हाका अजाप इतलेंच दिसता की तूं अकस्मांत सी.आय.डी. कसो भितर सल्लो.

सतीश : वहिनी, हांव तुजे इतलो शिकुना पुणून तुजे उलोवण्याचो अर्थ कळटा म्हाका. हांव तुजे वाटेवेलो कांटो जावन आसां, हें तुका कशें मानवत? पुणून म्हजो इलाज ना. कालच म्हाका दिनेशाची चीट आयल्या.

लिला : आरे वा! कितें बरयलां ताणीं चिटींत?

सतीश : तो खंय तुका चिटी बरयत आसा, पुणून तूं ताका एकेचीय जाप बरयना. ताका लागून तो खूब दुखी आसा वहिनी! बाबुल्याच्या हुसक्यान ताका खाण-जेवण कांयच चलना खंय!

लिला : तांकां बरय, हांव आनी बाबुलो खावन-जेवन घट-मूट आसात म्हणून. काळजी करपाची कांयच गरज ना.

सतीश : हें हांव कित्याक बरोंव? तुज्यान बरोंवंक जायना?

लिला : हांव बेकार ना हांगा.

सतीश : वा, वहिनी वा! कितें तर जाप दिली तुवें म्हाका. आपल्या घोवाक चीट बरोवंक वेळ ना म्हणपाक लज कशी दिसना तुका. हांसचोना तुका कोणय आयकत जाल्यार? तुवें पत्र बरयलेंना जाल्यार घरची खबर कशी कळटली ताका?

लिला : ताका घरची खबर जायच कित्याक? देशाची खबर मेळ्ळयार पुरो! बायल-भुरगीं कोणाक जाय.

सतीश : वहिनी? तूं आनी अशें उलयता! एक घरंदाज, सुशिक्षित आनी जबाबदार बायल तूं! तुजे तोंडांतल्यान असलीं उतरां

भायर सल्लींच कशीं? तुका हें सोबना वहिनी !

लिला : हांवें कशें उलोंवंक जाय तें तूं म्हाका शिकोवं नाका सतीश!

सतीश : हांव तुका हांगा शिकोंवंक येवंक ना. पुणून...

लिला : पुणून? पुणून कितें? हें पळय सतीश, तूं आमचे भानगडीत पडूं नाका.

सतीश : कोणाचे भानगडीत पडचें आनी पडचें न्हय हें हांव बरेभशेन जाणां वहिनी! दिनेश तुजो घोव खरो, पुणून म्हजोय तो जिवा-भावाचो इश्ट आसा. ताच्या सुखा-दुखांत वांटो घेवप हें म्हजें कर्तव्य न्हय? तो हांगा आशिल्लो जाल्यार हांव तुमच्या कारभारांत मेत्यार जांवचो नाशिल्लों.

लिला : जांव! असले इश्ट जायते पळेल्यात हावें.

सतीश : तूं म्हज्या इश्टागतीचो अपमान करता वहिनी आनी तूं एक गजाल लक्षांत दवर, ह्या सतीशाक तूं लेचो-पेचो समजूं नाका. वेळ आयल्यार तो आपल्या इश्टा खातीर आपलो प्राण लेगीत दिवंक फाटी-फुडें सरचो ना. म्हज्या इश्टाची अब्रू आयज वाऱ्यार पडल्या, हें हांव कशें सोसूं वहिनी, कशें सोसूं! लोक उलयतात तें आयकून-आयकून म्हज्या कानाचे पड्डे फुटूंक पावले.

लिला : बेटेंच नाका तें घडोवन शो करूं नाका सतीश तूं. तुज्या इश्टाची अब्रू गांवांर पडल्या? कोणे घाली ती गांवांर?

सतीश : तुवें! सगळें करून वेल्यान तोंड व्हडलें तुका. छिः थूः करतात तुज्या नांवान सगळेकडे!

लिला : अशें कितें केलां रे हांवें?

सतीश : तुजो घोव परगावांत आसतना, तुवें परकी दादल्या मनशाक घरांत कसो घेतलो.?

लिला : घेतलें हांव! तातूंत व्हडलेशें कितें जालें, फ्रेंड तो म्हजो.

सतीश : हूं! तुका कांयच दिसचेंना. पुणून लोकांक बरें दिसूंक जाय की ना?

लिला : हांव लोकांची परवा करिना.

सतीश : तूं करूं नाका लोकांची परवा, पुणून लोक तुका अनाचार माजोवंक दिवचेनांत.

लिला : लोकांचे नदरेन तो अनाचार जायत, म्हाका तातूंत वायट अशें कांयच दिसना. आनी कितें रे? तूं म्हाका लोकांचो भंय घालता, लोक आनी तूं म्हाका पोसतात काय कितें? हांव कमायतां, हांव खातां!

सतीश : तूं कोणायचें खा म्हजे भयणी. पुणून तुज्या असल्या बायलांचे नखरे आनी नाच पळोवपाची सवंय लोकांक ना. ते भायर तूं एका बऱ्या घराण्यांतली धूव, एका नावजत्या मेजराची पत्नी आनी एका भांगरासारक्या भुरग्याची आवय हें तूं विसरूं नाका. तुका तांच्याखातीर तरी हीं चंचळपणा बंद करचींच पडटलीं.

लिला : सतीश, तूं आतां मात्सो घरा गेल्यार बरो. तुज्या उपदेशाचो म्हजेर कांयच परिणाम जांवचेलो ना, समजलें?

सतीश : हांव हांगा रावूंक येंवना वहिनी ! पुणून वचचे पयलीं तूं म्हाका एकच उतर दी की तूं त्या मवाल्याचो नाद सोडटली म्हणून.

लिला : तो मवाली न्हय, मवाली तूं! तूं चड दादागिरी करशी जाल्यार, ह्या घरांत पांय दिवपाचो बंद करतलें तुका हांव .

सतीश : तें मात तुजेकडे जांवचें ना, हें तूं लक्षांत दवर. दिनेशाक दिल्लें उतर पाळपाखातीर म्हाका हांगा येवचोच पडटलो, आनी हांव येतलोंच.

लिला : तूं हांगा आयल्यार, म्हाका हें घर सोडचें पडटलें. हांव रावचेंना ह्या घरांत !

सतीश : खंय वतली? त्या मवाल्या वांगडा?

लिला : सतीश! राजेंद्राक मवाली म्हणिल्लें म्हाका बिलकूल खपचेलें नां. तो एक सभ्य मनीस आसा. ताका नांवां दवरशी जाल्यार तुजी जीब झडटली..

सतीश : तुका मनशाची पारख ना वहिनी, तूं फसतली.

लिला : फसूं ! ताजी काळजी तुका नाका. म्हजें हांव पळोवन घेतलें.

सतीश : म्हणजे तूं हें घर सोडून राजेंद्रा वांगडा वतली!

लिला : तूं तुजें तोंड हांगा परत दाखयशी जाल्यार म्हाका तशेंच करचें पडटलें!

सतीश : छी: छी: छी:! कितें आयकतां हांव ह्या म्हज्या कानानी! वहिनी, हांव तुज्यांत सतीसावित्रीचें रूप पळेतालों, तुज्या तोंडांतल्यान पवित्र उतरां भायर पडपाचीं सोडून असलीं घाणेरडीं उतरां? तुजीं हीं अपवित्र आनी विखाळीं उतरां आयकुचे पयलीं म्हजे कान फुटिल्ले जाल्यार खूब बरें जातलें आशिल्लें! नाका वहिनी, हांव तुजे पायें पडटां, भीक मागतां तुजेकडेन! तूं ह्या घराचें मसण करूं नाका. ही गजाल दिनेशाच्या कानार पडल्यार ताज्या काळजाचे कुडके-कुडके जातले.

लिला : म्हाका ताजी मातय परवा ना. हावें म्हजो निश्चय पक्को केला. सगळो संवसार परतो जालो तरी हांव म्हजो निश्चय बदली सारकें ना. म्हाका जाय तें सूख राजेंद्राकडल्यान मेळ्ळें जाल्यार म्हाका हांगा कित्याक रावंक जाय!

सतीश : कसल्या सुखाच्यो गजाली करता वहिनी तूं? तुका आमच्या देशाचो इतिहास खबर ना?

लिला : म्हाका सगळें खबर आसा. तुज्या त्या सती-सावित्रीचे दीस आतां फाटी पडले. घरा वचून तुजे बायलेक सांग त्यो पुराणांतल्यो गजाली. बायल म्हळ्यार दाव्या पायाची व्हाण दिसता तुमका दादल्यांक. *(भायल्यान राजेंद्र येता)*

राजेंद्र : कितें लिला डार्लिंग, तुमचें डिस्कशन आजून चालूच आसा?

लिला : कशें सोंपतलें! गाढवापुढें वाचली गीता, रात्रीचा गोंधळ चांगला होता, अशें म्हजो पापा म्हणटालो.

सतीश : तुज्या पापाच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्ल्या उतरांचो मान राखिल्लो जाल्यार, आयज तुज्या जिविताचें भांगर जातलें आशिल्लें वहिनी !

लिला : *(म्हऱ्यांत वचून)* राजेंद्र डार्लिंग, ह्या फुडें म्हाका ह्या घरांत एक खीण लेगीत रावपाचें ना. जाता तितले वेगीं भायर काड म्हाका ह्या नरकांतल्यान. जीव घुस्पट्टा म्हजो हांगा !

राजेंद्र : आतां? आनी हे वेळार?

लिला : ज्या मनशाक म्हजो नाच पळोवपाची सवंय ना, ताका तो हांव आतांच दाखोवंक सोदतां!

राजेंद्र : *(खोशेन)* बरें आसा. कुड्डो मागता एक दोळो आनी देव दिता दोन.

सतीश : बाय लिला, तुका खंय वचपाचें आसा थंय तूं बरेऽभशेन वच. पुणून बाबुल्याक मात हांव तुका खंयच व्हरूंक दिवचोना.

लिला : कित्याक काय म्हणटां ! तूं कोण बाबुल्याचो?

राजेंद्र : डार्लिंग, हांव गाडी घेवन येता आं, तूं तयार राव.

लिला : ओके डार्लिंग ! बाबुल्या... बाबु..

बाबुलो : *(भायर येवन)* मम्मी, तुवें म्हाका उलो माल्लो?

लिला : हय रे बाबा!

बाबुलो : *(खोशेन)* मम्मी तुवें म्हाका 'बाबा' म्हलो? *(सतीशाक)* काका, तूं कशो आशा?

सतीश : *(बाबुल्याक उबारता)* आमच्यो बाबुलो कशो आशा?

लिला : बाबुल्या, आमी हें घर सोडून दुसऱ्या घरांत वतात.

बाबुलो : दुसल्या घलांत? खंयच्या?

लिला : आमी बाबुल्याखातीर नवें घर केलां. थंय आमचो बाबुलो खूब-खूब खेळटलो.

बाबुलो : आनी कोन आसतलो त्या घलांत?

लिला : हांव आसतलें, राजेंद्र अंकल आसतलो आनी बाबुलो आसतलो!

बाबुलो : पप्पा येवचोना त्या घलांत? काका, तूं येतलो नव्या घलांत? आनी जायू?

लिला : जायू कित्याक येतलें आमच्या वांगडा? तें आमचें तर? ताका रावंदी हांगाच हें घर राखूंक.

बाबुलो : तशें जाल्याल हावंय लावतां हांगाच. म्हज्या पप्पांचें घल लाखूंक!

लिला : तूं कसो येना तें हांव पळेतां. *(बाबुलो सतीशाक तेंकता)* सीताराम, हे सीताराम !

सीताराम : *(भायर येवन)* अेस माडाम !

लिला : बाबुल्याचे सगळे कपडे बेगांत भर..

बाबुलो : आनी धोब्यागेल दी.

लिला : सीताराम !

सीताराम : अेस माडाम !

लिला : म्हजो ड्रेस, नायटी बी, बेगांत भर.

सीताराम : अेस माडाम, सगळें केलें माडाम! बेग इज रेडी माडाम.

लिला : चल रे बाबुल्या. *(ताज्या हाताक धरून ओडटा. भितरल्यान जायू येता.)*

बाबुलो : हांव येनां. *(हात सोडोवन जायूक वेंग मारता)* जायू. हांव तुजेवांगला लावतां! मम्मी म्हाका नव्या घलांत व्हलूंक सोदतां.

सतीश : बाबुल्या, तूं खंयच वचचोना. हांगाच राव तुज्या पापाच्या घरांत.

जायू : लिलाबाय, बाबुल्याक तूं खंय व्हरूंक सोदता?

लिला : म्हाका जाय थंय, तूं कोण मेर्द म्हाका विचारूंक?

सतीश : हांव सांगतां जायू तुका बाबुल्याक ती खंय व्हरूंक सोदता पळय तें. ती हें घर सोडून बाबुल्याक घेवन...

जायू : पुरो, पुरो सतीश! तूं म्हाका फुडलें सांगू नाका. हे म्हजे कान फुडलें आयकूंक तयार नांत. लिलाबाय, तूं जें करूंक सोदता तें तुका सोबसारकें ना. हांव सांगता तें बरे भशेन आयक म्हजे भयणी! एका फातराक जेन्ना आमी चार वण्टींच्या इमारतींत हाडून बसयतात आनी ताचीं फुलां घालून पूजा करतात, तेन्ना ते फातराक देवपण प्राप्त जाता, आनी इमारतीचें पवित्र देवमंदीर जाता. हें घर म्हळ्यार एक मंदीर आनी त्या मंदिरांतली तूं देवी, समाजान तुका लग्नाच्या रूपान वाजयत-

गाजयत मंदिरांत हाडून बसयल्या-ती ह्या घराची सोब वाडोवंक, हें घर विटोवंक न्हय.

लिला : बरें - बरें ! तुजी ती फिलोजोफी ह्या सतीशाक सांग. ताका ती बरी आवडटली.

सतीश : हय जायू, ती सांगता तें फट न्हय, माकडाक गोडाची चव केन्ना कळूंक आयल्या?

लिला : चल रे बाबुल्या ! *(बाबुलो जायूक वेंग मारता)* जायू, सोड ताका.

जायू : हावें बांदूना ताका सोडूंक . चल रे बाबुल्या, तुजी मम्मी तुका आपयता.

बाबुलो : ना - ना ! म्हाका तूं जाय. हांव वचचोना. *(लिला बाबुल्याक हाताक धरून ओडटा)*

जायू : *(रागात)* लिला.

लिला : अब्बा! तूं म्हज्या शितार पोशिल्लें एक सुणे म्हाका एकेरी नावान उलो मारूंक लागलें? तूं सोताक कोण समजता गो, जय ललिता काय ममता बेनर्जी!

जायू : हांव कितें समजूंक जाय तें समजलें. ह्या फुडें हांव तुजें कांयच आयकुचें ना. आयजसावन तूं म्हजी धनीण न्हय! हें पळय हांव चल्लें हें घर सोडून.

सतीश : थांब जायू. तूं हें घर सोडून खंयच वचचें ना. बाबुल्याक घेवन हांगाच रावतलें.

लिला : तूं कोण ताका ओर्डर सोडूंक? सोताक पाकिस्तानचो लश्करशाह बी समजता काय कितें?

सतीश : ना ! हांव म्हाका भारताचो राखणमंत्री समजतां.

लिला : तूं म्हज्या घरांत येवन म्हाका मानार करता? तूं वळखूं ना म्हाका, हांव कसलें आसा पळय तें!

सतीश : आगो बाये ! तुजी सोब जाली ती पुरो जाली ना? कित्याक ओगीच येंवाळ्या भशेन शेंपडी धाडायता! चल आतां, ओगीच सोताचें हाशें करून घेवं नाका. तुका जाय थंय वच.

फुडें कितें जाता तें हांव पळेतां. जायू तूं कसलीच काळजी करूं नाका. दिनेश ये म्हणसर बाबुल्याक घेवन हांगाच राव, समजलें?

लिला : बरें-बरें! हांव पळोवन घेतलें तुमकां सगळ्यांक. सीता राऽम..

सीताराम : *(भितरल्यान)* येस माडाम... कमिंग - कमिंग !

लिला : सामान भायर काड. गाडी येवची जाली. *(रागान भितर वता आनी माचयेर हळु हळु काळोख जाता)*

**अंक पयलो सोंपता**



# अंक दुसरो

## देखावो पयलो

*(राजेंद्र एका बंगल्यार, कदेलार बसून सोरो पिता. मेजार बाटली आनी ग्लास आसा. तेकून सीताराम उबो आसा.)*

राजेंद्र : डाऽऽर्लिंग !

सीताराम : येस सर!

राजेंद्र : आरे माऽकडा!

सीताराम : *(विचार करून)* माकोड! हां,माकोड म्हणजे मंकी. येस सर!

राजेंद्र : तुका उलो मारूंक ना. हावें तिका उलो मारला.,

सीताराम : कोणाक, माडामीक सर? राव सांगतां. मंकीऽऽ ओऽमंकी! सर इज कॉलींग..

राजेंद्र : *(रागान)* मंकी के बच्चे !

सीताराम : येस सर !

राजेंद्र : गेट आऊट !

सीताराम : येस सर! *(सीताराम भायर वता, भितरल्यान लिला येता)*

लिला : डार्लिंग..

सीताराम : *(भितर येवन)* येस माडाम!

लिला : *(रागान)* यूऽ डोंकी.

सीताराम : *(विचार करून)* यू डोंकी म्हळ्यार *(लिलाकडे बोट दाखोवन)*

|  |  |  |
|---|---|---|
|  |  | तूं गाढव, न्हय माडाम? |
| लिला | : | *(रागान)* आय से गेट आवट ! |
| सीताराम | : | येस माडाऽऽम्! *(वता)* |
| लिला | : | डार्लिंग, खंयचेय परिस्थितींत म्हाका त्या सतीशाक बुद्ध शिकोंवकच जाय. ताजी याद जाली म्हणटकीर म्हज्या आंगाक सामको उजो पेट्टा ! |
| राजेंद्र | : | पयलीं तूं म्हज्या आंगाक उजो पेटला तो पालय पळोवया. डार्लिंग तूं अशें म्हजे पासून पयस-पयस कित्याक रावता? |
| लिला | : | तुज्या उज्याचें मागीर पळोवया. पयलो त्या सतीशाचो कांटो कसो काडचो तें सांग. |
| राजेंद्र | : | व्हाय नॉट, व्हाय नॉट ! |
| लिला | : | व्हाय नॉट, व्हाय नॉट कितें? ताका धडो शिकयल्याबगर म्हाका कशीच न्हीद पड सारकी ना. |
| राजेंद्र | : | *(म्हऱ्यांत वचून)* हांव आसतना तूं कित्याक भियेता, माय डार्लिंग. आतांच हाडूं हात-पाय बांदून? सांग! काय सुण्याक बडयता तसो दांड्यांनीं बडोवन, साकांत घालून दिंव मांडवी न्हंयत फेकून ! |
| लिला | : | तशें कांय करूं नाका आं, म्हाका भंय दिसता! ताचो कळिविना कांटो काडूंक मेळटा जाल्यार पळय. तो एकदां जाग्यार पडलो म्हण्टकीर आमी मोकळीं! ते पयलीं तुजो उजो पालोवंक म्हजेकडे जावंचेंना. *(काकुळटेन)* म्हाका ताजोच भंय दिसता रे राजेंद्र! |
| राजेंद्र | : | डॉंट व्हरी माय डार्लिंग. हांव ताका कसो जाळ्यांत पकडटां तें पळय. |
| लिला | : | बेटींच बंडलां मारूं नाका कसल्याय कसलींय. |
| राजेंद्र | : | हीं बंडलां न्हय माय डियर! आय प्रोमिज यू. म्हाकाय ताजो खूपच राग आयला. तो मेकळो उरल्यार आमकां सुखांत रावंक दिवचो ना. तुज्या पर्सनल भानगडींत ताका पडपाची गरजच ना. |

लिला : हांवूंय तेंच म्हण्टां. हांवें कितेंय केल्यार हाजे नाक कित्याक कापता रे बाबा? हो कोण म्हजो? भाव काय देर!

राजेंद्र : आतां तू हें म्हाका गो कित्याक विचारता? विचार ताका. जाता जाल्यार फुलय दोन. फुडें कितें जाता तें हांव पळेतां. खरें म्हळ्यार दादल्यांचेर फुलोवपाचें काम बायलोच बरें करूंक शकतात.

लिला : तशें उलोवं नाका रे राजेंद्र. दादल्याचेर थापट मारपाची ताकत येवंक ना म्हज्यांत अजून. तें काम म्हजे वतीन तुकाच करचें पडटलें. तुज्याशिवाय म्हाका आनीक कोण आसा?

राजेंद्र : तुजो तो राम राम ना?

लिला : राम राम न्हय सीताराम !

राजेंद्र : तोच तो ! ताका कित्याक हाडला हांगा म्हाका राखूंक?

लिला : तुका सो राखूंक कित्याक? तुका ताजी आडकळ जाता जाल्यार दिवया ताका धाडून!

राजेंद्र : धांवडावन दी. ताका तूं असो ऽ समजूं नाका. बोऽरो शाणो आसा तो ! म्हजे हालचालीचेर दोळो दवरून आसा चोर. म्हाका राग आयल्यार ताका हांव...

लिला : आसूं रे राजेंद्र, तो गेलो जाल्यार आमका हांगा सर्व्हंट खंयचो?

राजेंद्र : पुणून म्हाका ताजी आडकळ साप्प सोंसना.

लिला : ती आडकळ हांव पळेतां. पयलीं तूं त्या सतीशाची आडकळ पयस कशी जाता ती पळय.

राजेंद्र : *(विचार करून)* बरें आसा. आपय त्या सीतारामाक.

लिला : सीताराम कित्याक? तो कितें करतलो ?

राजेंद्र : म्हाका ताजो उपेग करून घेवंक जाय.

लिला : उपेग? तो आनी कसलो !

राजेंद्र : म्हाका एक आयडिया सुचल्या.

लिला : जांव सायबा! देव पावलो.

राजेंद्र : देव खंयचो? नारुबाब पावलो म्हण !

लिला : हो आनी कोण नारुबाब ?

राजेंद्र : आसा म्हजो एक ओल्ड फ्रेंड. सामको आग लावो मनीस. ताणें कितलींशींच घरां पेटोवन दिल्यांत. ह्या वेळार तोच म्हाका तारतलो. येस! ही विल हेल्प मी. सतीश आनी तो सामके अश्शे कोंत्र आसात.

लिला : ही गजाल तुका कशी कळ्ळी?

राजेंद्र : असल्यो गजाली म्हाका कळनासतना आसतात?

लिला : तें कितेंय जांव पुणून आमचो प्रश्न कसो सुट्टलो तें सांग?

राजेंद्र : तें तुका लागना. हांव कसो उजो लायतां तें पळय.

सीताराम : *(भायर येवन)* सर, तूं लायच उजो, फूंक मारपाचें काम म्हजें.

लिला : यू शट अप!

सीताराम : ऑल रायट! शटप तर शटप, म्हजें कितें वता. *(लोकांक)* हांव हांच्या बऱ्याक वतां आनी हीं म्हाका सोऱ्याक धाडटात

राजेंद्र : *(लिलाक दोळो मोड्टा)* तापूं नाका ताचेर, बरो भुरगो तो. सीताराम !

सीताराम : येस माडाम! नॉट माडाम, सर!

राजेंद्र : हांगा यो. *(कागदार बरोवन)* हो पत्तो घे, आनी ह्या मनशाक सोदून काड. आनी हांवें आपयला म्हणून सांग. कितें सांगतलो?

सीताराम : हांवें आपयला म्हणून सांगतलों.

राजेंद्र : तुवें न्हय रे, हांवें.

सीताराम : समजलों, सर !

राजेंद्र : कितें समजलो?

सीताराम : तुवें न्हय रे हांवें !

राजेंद्र : *(बेजार जावन)* गो टू हेल!

सीताराम : येस सर ! गोइंग सर!!

राजेंद्र : खंय सर...

सीताराम : हेल सर !

राजेंद्र : लिला, तुवें खंयचें सवंग पोसलां गो हें ?

लिला : राजेंद्र, तूं ताजो नाद सोड. ना जाल्यार तुकाच मानीकोमांत व्हरून घालचो पडटलो. तो धड न्हय, तो तुजें काम चौपट केल्याबगर रावचो ना.

राजेंद्र : सीताराम, हांव कितें सांगता तें सारके आयकून घे मरे. बेटोच आबूज कित्याक जाता? *(लिला भितर वता)*

सीताराम : *(मान हालोवन)* येस् सर!

राजेंद्र : पणजे वच, कितें?

सीताराम : पणजे वच.

राजेंद्र : *(चीट दाखोवन)* ह्या मनशाक सोदून काड आनी राजेंद्रबाबान आपयला म्हणून सांग. चिटयेंत पत्तो-बित्तो सगळें बरयलां.

सीताराम : येस् सर! पत्तो इंग्लीशीन बरयला न्हय? *(वता)*

राजेंद्र : *(लिला ना अशें पळोवन)* ह्या सतीशाचो बदलो घेतांच. ते भायर म्हजो कार्यभाग सादलो म्हणटकीर हे बोकडेक वाटेक लायतां. ना जाल्यार हें खेंट जल्म भर म्हज्या माथ्यार बसतलें. *(लिलाक उलो मारता, तें भायर येता)*

लिला : कितें डार्लिंग?

राजेंद्र : म्हाका गोंयांत येवन खूप दीस जाले.

लिला : मागीर तांतूंत कितें जालें, म्हजो कंटाळो बी आयलो काय कितें तुका?

राजेंद्र : तुजो म्हाका कंटाळो? तूं तर म्हज्या काळजांत घर करून रावलां. तुजो कंटाळो कसो येतलो म्हाका? उलट तूं सदांच म्हज्या म्हऱ्यांत आसचें अशें दिसता म्हाका.

लिला : म्हाका दिसलें तूं म्हाका सोडून वचूंक सोदतां.

राजेंद्र : थोडेच दिसांखातीर !

लिला : थोडे दिसांखातीर? समजूंना हांव.

राजेंद्र : जालां कितें, म्हज्या धंद्याचो आवाट येदो आसा, की म्हाका एकाच जाग्यार चड दीस रावप शक्य जायना. तुजें काम जाग्यार पडलें म्हण्टकीर हांव चार दिसां खातीर मुंबय वचून

येवंक सोदतां.

लिला : *(खोशेन)* मुंबय? वंडरफूल आयडिया, हावंय येतां मुंबय. खूब तेंप जालो मुंबय पावल्यार. मावशेल्या चंपाच्या लग्नाक गेल्लें तितलेंच. सांग, केन्ना या?

राजेंद्र : तूं नाका. दुसरे पावट व्हरतां तुका. आतां आयल्यार बेटेंच त्रासांत पडटलें.

लिला : पडूं त्रासांत पडल्यार, हांव हांगा एकटें रावचें ना.

राजेंद्र : तूं एकटें खंय आसा गो ! तुजो तो राम राम ना?

लिला : राम राम न्हय,सीताराम. सीतारामच्या तोंडाक लाय चुट्टी. तूं म्हाका हांगा एकट्याक सोडून गेल्यार हांव तुका ओगी रावचेंना आं, सांगून दवरतां. म्हाका हांगा एकट्याक रावंक भंय दिसता.

राजेंद्र : निमणें गेलें ना बायलांचेच जातीर? एकावटेन दादल्यांकडे बरोबरी करूंक सोदता, सोताक ब्रेव्ह समजता आनी दुसरेवटेन एकटें रावंक भियता! हांगा जर तूं इतलें जाल्यार मुंबय कितें करतलें? थंय तर सगळें गुंडांचेंच राज्य.

लिला : हें तूं म्हाका आतां सांगूंक रावला? पयलीं सांगिल्लें जाल्यार हांव म्हज्या घरांतल्यान पांय भायर काडचें नाशिल्लें! राजेंद्र, तूं म्हाका फसोवंक बी सोदिना मूं?

राजेंद्र : हांव तुका फसोंवक सोदतां काय तूं म्हाका फसोंवक सोदता? तुवें म्हाका कितें सांगिल्लें?

लिला : कितें सांगिल्लें !

राजेंद्र : तुवें सांगिल्लें, तूं म्हजो खूब मोग करता म्हणून! अेम आय रायट? आनी आतां खंय गेलो तो तुजो मोग? आनी आता तूं पयस पयस रावता.

लिला : आरे, पुणून तुवें म्हाका लग्नाचें उतर दिलां. लग्न जाल्याबगर हांव तुकां लागीं कशें घेतलें सांग पळोवया? आरे राजेंद्र, पयलीं आमचें लग्न जांवदी मरे !

राजेंद्र : तुजें लग्न जालां. तुज्या गळ्यांत मंगळसूत्र आसा काय ना?

तूं दिनेशाची बायल म्हणून समाजांत वावुरता. अशें आसतना इतले वेगीं दुसऱ्या लग्नाची घाई कित्याक? सुदारलेल्या देशांनी लग्न जाल्ले दादले-बायलो फ्रेंड म्हणून वावुरतात आनी एका-मेकाचो मोग करतात. आमकांय तशें करूंक कसलीच अडचण ना. आगो सुदर मुगो पापणी! मागीर सगळ्यो फोर्मेलिटी पुऱ्यो जातकर करूया लग्न!

लिला : *(गोंदळून)* म्हज्या मनाक पटना रे तें !

राजेंद्र : तशें जाल्यार हांगा रावून कसलो फायदो आसा? आतांच्या आतां घरा वच आनी घराचो ताबो घे. त्या सतीशाक कसोच घरांत घेंव नाका. आनी तें जायू, घाल ताका खोंट मारून भायर.

लिला : तशें करूंक म्हाका दिनेशाचो भंय दिसता रे ! पुणून तूं सांगता तेंय खरें. हांव घरांत गेलेंना जाल्यार तो गांवढळ सतीश केन्ना कितें करीत तें सांगू नज.

राजेंद्र : आतां पेटली ना तुजी ट्यूबलायट ? डोन्ट व्हरी! आय विल सी हीम. तूं तांकां भायर काड, तो मेरेन हांव आदोवगादाकडे वचून डायवर्साचे कागद तयार करतां.

लिला : तशें जाल्यार बरें आसा. आतां पयलीं वचून त्या दोगांय अन्नाड्यांक घर बंद करून उडयतां. *(भितर वता)*

राजेंद्र : *(लोकांक)* सुटली पिडा! लग्न जाता खंय म्हजेकडे. हें खोड गळ्यांत बांदून खंय भोंवतलों हांव. असल्या मूर्ख बायलांचो जाता तितलो फायदो घेवंक जाय. पुणून हें दिसता तितलें ना आं! राजेंद्रा, सांबाळून राव रे बाबा! *( भायल्यान नारुबाब येता. पिराय पन्नास, शर्ट धोतरांत इनसर्ट केला. माथ्याक काळी तोपी, पायांत बूट, गळ्यांत पट्ट्यांचो टाय. विचित्र सोभाव)*

नारु : आसात मूं कोण तरी घरांत?

राजेंद्र : कोण नारुबाब? बरें जालें तुमी वेगीं आयले ते. हांव तुमचीच वाट पळेतालों, कशे आसात तुमी?

| | | |
|---|---|---|
| नारु | : | हांव बेस बरो आसां! तुमी कशे आसात? आसात मूं बरे? |
| राजेंद्र | : | हांव एकदम बरो आसां तुमचे कृपेन. |
| नारु | : | म्हजे कृपेन? *(मोट-मोट्यान हांसता)* |
| राजेंद्र | : | येयात, बसात ! |
| नारु | : | मुयत ओब्रिगाद. *(बसता)* |
| राजेंद्र | : | कितें घेतले? |
| नारु | : | काजू फेणी घेवंक भंय दिसता, मात्शें कुरासांवांचें आसा. |
| राजेंद्र | : | मागीर सोडा हाडुया. |
| नारु | : | माडांचें हुर्राक आसा लागीं? खूब दीस जालो चाखल्यार.. |
| राजेंद्र | : | हाडूंक लावया. कित्याक भियेल्यात तुमी ? |
| नारु | : | छट् हांव भियेतां? तुमी आसतना? |
| राजेंद्र | : | हांवें मनीस धाडिल्लो मेळ्ळो न्हय तुमकां? |
| नारु | : | तुमी मनीस धाडिल्लो? कितें म्हण्टात गा! |
| राजेंद्र | : | हय, चीट घेवन धाडिल्लो. |
| नारु | : | *(अजापान)* देवाच्यान? |
| राजेंद्र | : | शांतादुर्गेच्यान. |
| नारु | : | तशें जाल्यार खरें आसतलें.. कित्याक धाडिल्लो? |
| राजेंद्र | : | तुमकां आपोंवक ! |
| नारु | : | कितें म्हण्टात गा? |
| राजेंद्र | : | हय नारुबाब ! आतां खंयच्या देवाचो सोपूत घेंव? |
| नारु | : | नाका, नाकां, आसूं, म्हाका कसो मेळ्ळोना तर तो ! |
| राजेंद्र | : | नाका मेळूंक. तुमी मेळ्ळे न्हय म्हाका आतां! |
| नारु | : | कसलें अर्जंट काम आशिल्लें? |
| राजेंद्र | : | अर्जंट काम आसल्याबगर तुमची याद येतली म्हाका? तुमी म्हज्या डॅडीचे फ्रेंड! |
| नारु | : | आतां कशे उलयले, दियात ताळी! |
| राजेंद्र | : | म्हजे डॅडी तुमची खूपच तोकणाय करताले. |
| नारु | : | तुमचे दादी म्हळ्यार सामके भांगर. |
| राजेंद्र | : | दादी न्हय, डॅडी म्हणात. |

नारु : डॅडी कितें आनी दादी कितें सारकेंच. शाबी बाबी पौकू दिफेरेंस! ते म्हाका विचारल्याबगर कसलेंच काम करिनाशिल्ले आं.. म्हज्याहून खूब व्हड आसून लेगीत. उदार सामके. आलेग्र! तांणी लोकांक खावयलां पळय, वेळ आयल्यार आंगावेलें सोडून दुसऱ्याक दिवपी.

राजेंद्र : तें जालें गा. हांव नकळ तर तुमची बुदवंतकाय! *(नारु मुरगट्टा)*

नारु : आतां कशे उलयले.. दियात ताळी!

राजेंद्र : बरें तें आसूं.

नारु : आसूं जाल्यार आसूं.

राजेंद्र : नारुबाब! हें सांगात..

नारु : उलयात.

राजेंद्र : काल पणजे..

नारु : हय.

राजेंद्र : जुंता हाऊजाकडे एक मनीस तुमचेकडे मोट-मोट्यान उलयतालो, तो कोण?

नारु : म्हजेकडे सगळे मोटे लोक मोट-मोट्यान उलयतात. हांव भयरो म्हणून न्हय आं. म्हाका सगळें आयकूंक येता.

राजेंद्र : तशें सांगून बऱ्याक पडलें. नाजाल्यार हावूंय तसोच उलयतलों आशिल्लों.

नारु : बरें तें आसूं ! खंयचे सुवातेर उलयताले आमी?

राजेंद्र : जुंता हाऊजाकडे म्हळ्ळे न्हय?

नारु : मुयत बें! ताकाच लागून आयलां हांव हांगा. तुमी म्हाका आपोवंक आनी हांव हांगा येवंक, कशी गांट पडली तें पळयात. हाका म्हण्टात योगायोग ! पुता, तो म्हजो मुंडकार सतीश!

राजेंद्र : कितें? तुमचो मुंडकार आनी इतलो नेट?

नारु : नेट खंयचो ! मुंडकार आतां आदले नांत पुता. आदले तेंपार मुंडकार बस म्हण्टा थंस बसताले आनी उठ म्हणटा

तेन्ना उट्टाले. हांवें आनी मुंडकारांक मार दिला तो? काती काडल्यात आंगाच्यो काती! कितें म्हळें?

राजेंद्र : कांय ना, कांय ना, उलयात तुमी!

नारु : मालक्रियाद !

राजेंद्र : कितें?

नारु : तुमकां न्हय, ताका म्हळां. बुर्र!

राजेंद्र : कोण?

नारु : तुमी न्हय. तो! हरामखोर म्हज्या भाटांत रावून म्हाका मेशार खाता? तुज्या घरादाराचें निसंतान ना केलें जाल्यार हें म्हजें जानवें काडून..

राजेंद्र : आसूं आसूं ,फुडलें नाका.

नारु : कितें म्हळें?

राजेंद्र : फुडें उलोंवं नाकात म्हळें !

नारु : कित्याक? उलयतला! ताका कादयेंत व्हरून कुसयना जाल्यार हांव ते बापायचो पुतच न्हय! मालांद्र! कोण समजला म्हाका?

राजेंद्र : नारुबाब, तुमी बरेच तापले मुगा.

नारु : गरमेन तापुना हांव, रागान तापलां.

राजेंद्र : इतलो राग येवंक, अशें जालें तरी कितें.

नारु : सांगतां. लोकांक सांगल्या बगर कळना. लोक भाटकाराकच दोश दितात. मुंडकारांनी कितेंय केल्यार जाता. तुमी म्हज्या आमिगाचे चिरंजीव म्हळ्यार आमिगच न्हय?

राजेंद्र : तें आनी विचारूंक जाय!

नारु : मुयत बें! आयकयात तर. ह्या फटींगाच्या बापायन तीस वर्सांफाटीं, म्हज्या बापायकडल्यान एक हजार रुपया लेत्रांन घेतिल्ले. व्याजाचे धरून ताणें म्हाका आता तीस हजार रुपया दिवंक जाय.

राजेंद्र : मागीर दिना म्हणटा?

नारु : दिना म्हणिना. पुणून दिना. मागल्यार दितां - दितांच म्हण्टा. वेल्यान म्हण्टा तुका जाय तें कर.

राजेंद्र : हां, म्हाका, हेंच जाय आशिल्लें.

नारु : कितें म्हळें?

राजेंद्र : ताका शिकवया बुद्ध!

नारु : शिकवया तर, शिकवंकच जाय. आतां कशी शिकवंची ती तुमी सांगात.

राजेंद्र : तुमकां खऱ्यांनीच तीस हजार रुपया दिवंक जाय मुगा? मागीर भानगड नाका.

नारु : हांवें हजाराचे दोन हजार करूंक ना आं, तेंय सांगतां तुमकां.

राजेंद्र : करपाचे मुगा, चान्स कित्याक सोडलो?

नारु : करपाचो. पुणून हेच दिवंक रड्टा! एका हजाराचो तीस वर्सांचो ज्यूर कितलो जातलो तुमीच सांगात पळोवया?

राजेंद्र : आतां म्हाका कशें कळटलें?

नारु : शिकुनां तर तुमी, कोतां येनात तुमकां? हां, तुमी पोर्तुगीज शिकुनां दिसता.

राजेंद्र : पोर्तुगीज शिकनासतनाच सांगतां तुमकां ज्यूर कितलो जालो तो.

नारु : सांगात पळोवया.

राजेंद्र : एका हजाराचें इन्टरेस्ट एकुणतीस हजार जालें.

नारु : दियात ताळी, काप्पाज !तुमचें कोंत म्हज्याहून बरें आसा. हांवें ताका सांगलें, बाबारे, तीस जायना जाल्यार पंचवीस दी. पुणून ना. माऽर उसळटा !

राजेंद्र : व्हॉट इज हीज नेम?

नारु : नेम नाकात, नेम जायते दिले, कांयच उपेग जालोना, कायद्यान कितें जाता तें पळोवया.

राजेंद्र : नारुबाब! नेम दियात म्हूणन सांगुना तुमकां हांवें. ताचें नांव कितें काय म्हणून विचारलां ! अर्धवट! *(आपल्याभितर)*

नारु : कितें म्हळें?

राजेंद्र : आगा ताचें नांव कितें?

नारु : ताज्या बापायचें नांव देमलो. आगोर जा मोर्ंव!

| | | |
|---|---|---|
| राजेंद्र | : | हांवें ताज्या बापायचें नांव विचारूना तुमकां. |
| नारु | : | हाचें, हाचें नाव सत्तू. आतां सतीश लायता. |
| राजेंद्र | : | आय सी! |
| नारु | : | कितें म्हळें? |
| राजेंद्र | : | तो तुमकां दुडू दिना म्हण्टा तर! |
| नारु | : | पयशे ना ते नांत. वेल्यान साल्लार जाता आनीक मारूंक येता. |
| राजेंद्र | : | कितें? मारूंक येता? |
| नारु | : | ना गा, तसो तो भुरगो बरो. पुणून आमी म्हणुया तशें, मारूंक येता म्हणून! |
| राजेंद्र | : | तुमी ताका अशे ओगी रावं नाकात. |
| नारु | : | छः छः ! |
| राजेंद्र | : | तुमच्या तो माथ्यार बसतलो. |
| नारु | : | बसतलो खंयचो, आतांच बसला. ताका कितें करचें आनी कसो दाळाक लावचो हेंच सुचना म्हाका. हाका लागुनच तुमचेकडे आयलां हांव. |
| राजेंद्र | : | बरें आसा. *(लोकांक)* कुड्डो मागता एक दोळो, आनी देव दिता दोन ! तुमी कांयच भिनाकात. |
| नारु | : | हे ! हांव तसो कोणाकच भिवपी मनीस न्हय. नारुबाब म्हण्टात म्हाका. हांव सरकाराक भियेना, तो हाका भितां? |
| राजेंद्र | : | तो रावता तें घर कोणाचें? |
| नारु | : | तो म्हज्या भाटांत रावता. |
| राजेंद्र | : | ते विचारूंना तुमकां, कोणाच्या घरांत रावता काय म्हणून विचारलां. |
| नारु | : | ताजें घर म्हज्या भाटांत आसा. म्हण्टकच घरय म्हजेंच जालेंना? |
| राजेंद्र | : | ना. घर तुमचें जायना. तो टायम आता फाटीं पडलो, बरें आता तो तुमकां देणे आसा, हाजेबद्दल तुमचेकडे कितें डोकुमेंटस आसात व्हय? |

नारु : आसात तर ! सांगलें न्हय तुमकां दुडू लेत्रान दिल्यात म्हणून.

राजेंद्र : तशें जाल्यार लावया उजो !

नारु : *(भियेता)* कित्याक?

राजेंद्र : डोकुमेंटाक न्हय गा! म्हाका एक सांगात, घराचो व्हेल्यू कितलो जातलो?

नारु : वालोर म्हण्टात न्हय? मायजमेनूस पन्नास हजार जातलो.

राजेंद्र : मागीर तुमी कित्याक गडबडटात?

नारु : हेट! हांव कसोच गडबडना, मात, कितें करता तें चिंतून करूंक जाय न्हय?

राजेंद्र : ऑल रायट!

नारु : कितें म्हळें?

राजेंद्र : तुमी अशें करात !

नारु : कशें?

राजेंद्र : ताका वकिलाकडल्यान एक नोटीस धाडात.

नारु : समजुंना हांव.

राजेंद्र : तुमकां समजुपाक खूब वेळ लागता मुगा. लागपाचोच, वय जालें म्हण्टकच अशें घडटा.

नारु : छे: छे:! तुमी समजतात तितलो म्हातारो जावना हांव आं!

राजेंद्र : हूं, हें बरें आयकूंक आयलें तुमकां.

नारु : कितें म्हळें?

राजेंद्र : ताका तुमच्या आदोवगादा कडच्यान नोटीस धाडात. म्हयन्याभितर तुमचे पयशे फारीक जालेना जाल्यार, घर पावणेर वतलें अशें बरयात.

नारु : *(नेटान)* मुयत बें! सीं शिंन्योर, म्हज्याय मनांत तेंच आशिल्लें.

राजेंद्र : मागीर ओगी कित्याक रावले तर?

नारु : म्हळें, तुमच्यासारक्या बुदवंताकडल्यान पयलीं मत घेवया, आनी घालुया पावल फुडें.

राजेंद्र : तें बरें केलें तुमी.

नारु : बरें केलें मूं, दियात ताळी!

राजेंद्र : अशो ताळयो दीत रांव नाकात, कामाक लागात.

नारु : बें ! ओब्रिगाद आं, मुयतिस्सीम् ओब्रिगाद!

राजेंद्र : कित्यांक गा. तुमी बरे जाल्यार आमी बरे.

नारु : आतां दाखयतां ताका हांव, हो भाटकार कितलो वालोराचो आसा पळय तो. लाद्रांव, मालांद्र, चोर, फटींग, नागोवणा!

राजेंद्र : पुरो, पुरो, सगळ्यो काबार करूं नाकात.

नारु : तुमी भी नाकात. म्हजेकडे गाळयांचो खजिनो ल्हान ना.

राजेंद्र : आसूं, आसूं, आतां वचात तुमी! *(नारु नेटान वता.)*

**काळोख**

# अंक दुसरो

## देखावो दुसरो

*(दिनेशालें घर. बाबुलो एका स्टुलार बसून भांयर सैमाकडे पळेत आसा. झाडार बशिल्ल्या कावळ्याकडे तो उलयत आसा.)*

बाबुलो : कांव कांव कावल्यामामा उलूऽन वच. म्हज्या पप्पा म्हल्यांत वच आनी पप्पाक सांग वेगीन यो. म्हाका ताजो खूब-खूब उगलास येता. आनी म्हज्या पप्पाक शांग, मम्मी माका बली कलीना. घला येवन म्हाका घेवन वच तुज्या वांगला. *(भितरल्यान जायू येता)*

जायू : कोणाकडे उलयता रे म्हज्या शाण्या?

बाबुलो : कावल्यामामाकले.

जायू : खंय आसा रे तो तुजो कावळोमामा.

बाबुलो : हो पले झालाल बशला.

जायू : कितें सांगलें तुवें कावळ्यामामाक?

बाबुलो : शकलेत, शकलेत. तें तुका शांगपाचें न्हय.

जायू : म्हाका सांगपाचें न्हय?

बाबूलो : तूं कोनाक शांगचेंना मुगो?

जायू : ना. हांव बाबुल्याचें गुपीत कोण्णाक सांगचेंना.

बाबुलो : हांवें शांगलें म्हज्या पप्पाक वेगीन आपय म्हणून. म्हाका ताज्यो खूप्प खूप्प उगलास येता. जायू, म्हजो पप्पा केन्ना येतलो गो?

जायू : येतलो आं, आनी थोडे दिसांनी.

बाबुलो : थोल्या दिसांनी कित्याक? आता कित्याक ना? ताका म्हजी याद येना? म्हज्यो पप्पा म्हजेल लागाल जाया गो जायू?

जायू : तुजो पप्पा तुजेर रागार कित्याक जातलो? तो तुजो खूब-खूब मोग करता.

बाबुलो : तू फट उलयता. म्हजेल कोण मोग कलिना. म्हाका एकत्याक सोलून सगलीं गेलीं. पप्पा गेलो, मम्मी गेली, सीतालाम गेलो. आतां तूंय म्हाका सोलून वच, वऽऽच.

जायू : तशें म्हणचें न्हय रे म्हज्या शाण्या. तुका सोडून गेल्यांत तीं सगळीं परतीं येतलीं, तांकां येवचेंच पडटलें, आनी हांव म्हज्या बाबुल्याक सोडून खंय वचचेंना. हांव म्हज्या बाबुल्याचो खूब-खूब मोग करतां. *(वेंगेंत घेता)* म्हाका तो खूब आवडटा.

बाबुलो : मम्मी म्हाका सामकी सोलून गेली?

जायू : कोण सांगता, सामकी सोडून गेली म्हणून? येतली ती परत !

बाबुलो : पलत येतली?

जायू : हय !

बाबुलो : तुवें आपयल्या तिका?

जायू : हांवें कित्याक आपोवंक जाय तर? गेल्या तशी येतली परत, घर तिजें !

बाबुलो : मागील ती तुजेकलेन झगलचीना?

जायू : *(कानाभयऱ्यार घालून)* तूं आता खेळूंक वच पळोवया.

बाबुलो : जायू, मम्मी पलत आयल्याल आमी हांगा लावची न्हय.

जायू : आमी हांगा रावची न्हय? खंय वतलीं तर आमी?

बाबुलो : पप्पाम्हल्यांत. मम्मी बली न्हय, ती तुजेकले झगलता. जायू, ही व्हल्लीं मनशां कित्याक झगत्ताक गो? म्हाका झगलीं आवलनांत.

जायू : लोकांक माल्ला मोद ! पोट चड भल्लें म्हण्टकच तांकां झगडीं-केस्तावां येवजतात. तुवें अभ्यास केलो व्हय?

बाबुलो : ना.

जाये : चल तर! एक तर अभ्यास कर, ना जाल्यार खेळूंक वच. म्हजो जीव खांवनाका बाबा! म्हजी सगळीं कामा अजून तशींच पडून आसात. *(बाबुलो वचूंक लागता. परतून येता)*

बाबुलो : जायू, जायू !

जायू : आतां आनी कितें जालें?

बाबुलो : तिचलीन फाल्यां आवयक नाजाल्याल बापायक हाल म्हून सांगलां. आवय आनी बापूय म्हल्याल कितें गो जायू?

जायू : *(थोडो वेळ शून्य नजरेन पळेता)*

बाबुलो : *(जायूक हालोवन)* सांग गो जायू, आवय आनी बापूय म्हल्याल कितें?

जायू : आवंय आवंय ! येदो व्हडलो जालो आनी आवय-बापूय म्हळ्यार कितें तें खबर ना रे तुका? सगळ्या भुरग्यांक आवय आनी बापूय आसतात.

बाबुलो : हय? आनी म्हाका कित्याक ना तल? कायतूक मांय आसा, ती कोन तांजी?

जायू : तीच ताजी आवय.

बाबुलो : कायतूली मांय, तीच ताची आवय!

जायू : हय ! कायतूली मांय तीच ताची आवय!

बाबुलो : कायतूली आवय कितली बली, जायू, म्हाका कित्याक ना गो आवय?

जायू : कोण सांगता आवय ना म्हणून? तुजी मम्मी ना? तीच तुजी आवय!

बाबुलो : शी : तीं म्हजी आवय न्हय, ती मम्मी. म्हाका आवय जाय, मम्मी नाका.

जायू : मम्मी तीच तुजी आवय रे शाण्या !

बाबुलो : तूं फत उलयता. कायतूली आवय कायतूचो खूब-खूब मोग

कलता. ताका ती इश्कोलाक पावयता, खाऊ दिता, ताचो उमो घेता. *(रागान)* म्हजी मम्मी तशें कलता? ती म्हाका सोलून गावांल भोंवता.

जायू : तशें म्हणनात रे शाण्या !

बाबुलो : राजूची आई म्हन्ता तशें !

जायू : राजूच्या आईक ना धंदो. ती कित्याकितेंय उलयता. तूं आयकूं नाका तिजें. शाणे भुरगे जाण्ट्यांल्या उलोवण्याकडे लक्ष दिनांत.

बाबुलो : जायू ! मोग कलता ती आवय न्हय गो? आनी मोग कलीना ती मम्मी! जायू, तूं म्हजो खूब मोग कलता. हांव तुका आवय म्हनू?

जायू : हांव आवय न्हय तुजी, हांव कामवाली. *(भायल्यान सतीश येता)*

सतीश : कसल्यो गजाली चल्ल्यात, आवयच्यो आनी पुताच्यो?

जायू : तूं आनी कितें उलयता रे सतीश पिशांभशेन! घरांतल्या वावराडेक कोण आवय म्हण्टात खंय?

बाबुलो : अंकल, तुवें म्हाका कितें हाडलां?

सतीश : हांवे तुका चोकलेट हाडल्या! ही बाबुल्याची केलबली चोकलेट! आतां सांग, बाबुल्याक चोकलेट कोणे हाडली?

बाबुलो : अंकलान!

सतीश : अंकल न्हय, मामा!

जायू : म्हणू रे बापडो कितेंय! अंकल कितें आनी मामा कितें!

सतीश : चुकता तूं जायू, भुरग्यांचेर संस्कार हेच वयार घडोवन हाडूंक जाय. आमच्या देशांत फक्त मामा-मामी, काका-काकी जल्माक येतात हें भुरग्यांक जाण्ट्यानी सांगूंक जाय. अंकल आनी आंटी इंग्लंडाक आसूं येतात, भारतांत न्हय!

जायू : तूं कितें उलयता तें म्हाका कांयच समजना रे बाबा! तूं बस, हांव च्या करून हाडटां.

सतीश : बाबुल्या, तूं खेळूंक वच. *(बाबुलो उडयो मारीत वता)*

जायूबाय, म्हाका च्या नाका. हांगा आयलो म्हण्टीकीर तुजेकडेन दोन सुख-दु:खाचीं उतरां उलयनशें दिसता म्हाका. तुका पळेतकीर म्हाका तुज्या रूपान म्हज्या मुखार म्हजी भयण उबी आसा शी दिसता. तर कितें सांगूक वतालों हांव?

जायू : बाबुल्याची गजाल.

सतीश : हां, बाबुलो उलयता तें फट न्हय जायू! भुरगीं खरें तेंच उलयतात! भुरग्यांचे नदरेन फक्त जल्म दिलो म्हणून एकाद्री बायल आवय जायना. कोंबडेचीं तांतयां मशीनांत घालून उबयलीं जाल्यार पिलां भायर येतात खंय, ही गजाल आयकल्या मुगो तुवें?

जसयू : आयकल्या तर! ही गजाल सगळो लोक जाणां.

सतीश : आतां तूं सांग, मशीनांत पिलां काडली म्हणून मशीन त्या पिंलांची आवय जांव येता? लिलान बाबुल्याक जल्म दिला हें खरें, पूण तुवें ताका मोग दिला. भुरग्यांक मोग दिता ती खरेली आवय. देवकेन श्रीकृष्णाक जल्म दिलो, पूण ताका मोगान वाडयलो यशोदेन. मोगाक लागून श्रीकृष्ण यशोदेक केन्नाच विसरूंक पावलोना. संवसारांतलें शाश्वत मूल्य हें अशें आसा जायू. तुवें बाबुल्याक खरेलो मोग दिला,माया दिल्या म्हणून तूं बाबुल्याची खरेली आवय!

जायू : सतीश तूं हें शाणेपण खंयच्या इश्कोलांत शिकलो रे?

सतीश : म्हजे भयणी, शांणेपणां केन्ना इश्कोलांत शिकयतात खंय? शाणेपणां शाळा - कोलेजांनी शिकयल्लीं जाल्यार, आमचो देश आयज भिकेक पावचो नाशिल्लो. आमच्या गोंयांत शाळा आनी कोलेजां पावला कणकणीं आसात. पूण तातुंतल्यान शिकून भायर सरतात ते फक्त मम्मी आनी डेडी! आदले तेंपार लोक इश्कोलांनी शिकून शाणे जाताले, पूण तेन्ना शिक्षक भुरग्यांक शिकयताले आतां शिकपी शिक्षकांक शिकयतात.

जायू : सतीश, आतां फुडें कितें करपाचें रे?

सतीश : कित्याविशीं उलयता तूं?

जायू : बाबुल्याविशीं रे! हांव ह्या घरांत परकी मनीस. हांगा कितें घडलां तें पळोवन, ओग्गी बसल्यार हांव दोशी ठरतलें अशें दिसना तुका?

सतीश : मागीर कितें करचेंशें दिसता तुका?

जायू : एक चीट बरोवन हांगा कितें घडटा तें बाबुल्याच्या पप्पाच्या कानार घाल मरे!

सतीश : तशें करून कांयच फायदो जावपाचो ना. चीट वाचून तो घरा धावून येतलो, इतलेंच.

जायू : येवंदी तरी तांकां, म्हज्या माथ्यावेलो तितलोच भार उणो जातलो.

सतीश : जायू, जणेकलो मनीस आपल्या माथ्यावेलो भार उणो करूंक सोदता. पूण जबाबदारी कोणच स्वीकारूंक सोदिना. दिनेश सीमेर एका म्हत्वाच्या हुद्याचेर काम करता. आमी ताका चीट बरयल्यार ताचें मन सयरभयर जातलें अशें दिसना तुका? जायू, दिनेश तुका ह्या घरांतली वावराडी मानिना. तशें जाल्यार आपूण परत ये सर हें घर सोडून वचूं नाका अशें तो तुका सांगचो नाशिल्लो.

जायू : तें कळटां रे म्हाका.

सतीश : कळटा जाल्यार असलीं पिशेंपणा कशें उलयता तूं? गप्प बस. सगळें बरें जातलें. तुजो धनी घरा येवचें पयलीं तुजी धनीण घरा येतली.

जायू : म्हाका दिसनां.

सतीश : म्हाका खात्री आसा. येना जाल्यार आनी खंय वतली? तूं जाणां जायू, हिन्दू धर्माप्रमाण लग्न जाल्ले बायलेक अर्धांगिनी म्हण्टात. अर्धांगिनी म्हळयार बायल ही घोवाचें अर्दें आंग. हीं दोनय आंगा निमणेमेरेन मनान एक आसलीं जाल्यारच तीं सुखान जगूंक शकतात. ना जाल्यार तांचें जिवीत म्हळयार नरक म्हणून समजूचो. तुका कितें दिसता जायू, लिला

दिनेशाक आनी बाबुल्याक सोडून सुखी आसतलें म्हणून?

जायू : देवाक खबर! पूण सद्या ती हें घर सोडून गेल्या तर खरी!

सतीश : केल्ल्या कर्माची चूक ताका कळून आयल्या जातली.

जायू : सगळें होगडावन जातकीर चूक कळून कसलो फायदो रे सतीश? तिच्यावांगडा बुकलो आसा तो तिका भ्रष्ट केल्याबगर सोडीत अशें दिसता तुका?

सतीश : तशें कांय घडचें ना. सीताराम ताका वाकडें पावल घालूंक कसोच दिवचोना.

जायू : सीताराम? हूं, जालें!

सतीश : जायू, तुका खरेली गजाल कांयच खबर ना. वांगडा सीताराम नाशिल्लो जाल्यार, लिलाक हांव ह्या घरांतल्यान पांय भायर काडूंक दिवचो नाशिल्लों. लिलाले प्रत्येक हालचालीचेर म्हजो दोळो आसा जायू. लिलाच्या शीलाची राखण जावची म्हणूनच सीतारामाक हांवें ताच्यावांगडा धाडला.

जायू : सीतारामाक तुवें धाडला?

सतीश : आनीक?

जायू : आतां आयलें म्हज्या लक्षांत. सतीश, तुवें म्हाका ही माहिती दिवन म्हज्या जिवाक सुशेग दिलो रे बाबा! म्हाका दिशिल्लें सीताराम तिजो गुलाम म्हणून. आतां म्हजी चिंता मिटली.

सतीश : जायू, वाट चुकिल्ल्या मनशांक जाग्यार हाडूंक अशीं खुपशीं नाटकां करचीं पडटात गो! दुसऱ्याचें बरें चित्तलो जाल्यार मनापासून धडपडचो पडटा मनशाक. दिनेश आपलो संवसार म्हजेर पातयेवन, पयस वचून आपलें जिवीत निर्धास्त घालयता. म्हज्या निस्काळजीपणान ताज्या संसाराची वाट लागली जाल्यार ताजो विश्वासघात केल्ल्यावरी जावचेंना गो जायू?

जायू : खरें तुगेलें. म्हज्या मनांतलेंच उलयलो तूं. पळोवंक गेल्यार म्हजे आनी तुजे विचार एकच आसा. फरक इतलोच की तुजे भशेन म्हजेकडे ते उकते करूंक जायना. बरें तें आसूं. सतीश, इतले दीस तूं खंय आशिल्लो रे? दोन दीस तूं

दिसना जाल्यार बेटोच हुस्को जाता. सगळें बरें चल्लां मरे तुजें?

सतीश : कपलाचें बरें चल्लां!

जायू : म्हणजे?

सतीश : कितें सांगू तुका जायू! म्हजेर एक व्हडलें संकट आयलां.

जायू : संकट? तें आनी कसलें रे बाबा!

सतीश : तुका सांगून कितें फायदो आसा.

जायू : अशें कितें उलयता रे तूं सतीश? एका वटेन तूं म्हाका भयणीसमान मानता आनी दुसरेवटेन परकेपणाची भाशा उलयता.

सतीश : म्हजें दु:ख दुसऱ्याक सांगून ताका खंती करप म्हाका रूचना गो जायू!

जायू : हाजो अर्थ, हांव परकी मरे तुका?

सतीश : तशें न्हय गो....

जायू : हें पळय म्हजेकडेन तूं दाखय - लिपय करू नाका. कितें घडलां तें मोकळेपणान सांग पळोवया.

सतीश : म्हजो भाटकार म्हज्या फाटल्यान हात धुवन लागला गो जायू!

जायू : कित्याक रे बाबा? अशें घडलां तरी कितें?

सतीश : म्हज्या बापायन खंय ताज्या बापायकडल्यान रीण काडिल्लें. तें तो म्हाका फारीक कर म्हण्टा.

जायू : हें चड जालें आं.

सतीश : बापायन काडिल्लें रीण पुताक फारीक करप चुकच ना. पूण ताका रजांव आसूंक जाय न्हय? म्हज्या बापायन म्हाका रिणाविशीं केन्नाच कितें सांगूं ना. आनी बापूय मेल्या उपरांत हाणेय म्हजेकडेन रिणाचो विशय काडूंक ना. आतां अकस्मात म्हज्या फाटल्यान लागला.

जायू : कितले रुपये दिवंक जाय खंय?

सतीश : तीस हजार रुपये.

जायू : कितें?

सतीश : हय जायू. आतां तूं सांग, इतली रक्कम हांव खंयची हाडून दिवं ताका?

जायू : कांय दिवपाची गरज ना. तूं ताका सांग रिणाविशीं आपल्याक कांय खबर ना म्हणून. इतलें तेंपान आतां जागो जाला खंय तो?

सतीश : तशें न्हय जायू.

जायू : तशें न्हय जाल्यार आनी कशें? तो सांगता तितले पयशे दितलो तूं?

सतीश : तशेंच करचें पडटलें.

जायू : आरे पूण हो अन्याय मरे. तूंच सांगतालो न्हय रे, अन्याय सहन करप पाप म्हूण!

सतीश : म्हण्टालों गो. आतांय म्हजें तेंच मत आसा. पूण कितें करूं? तो भाटकार, ताचेकडे पयशे आसात. ह्या जगांत दुडवांकारच खरो थारता गो जायू! भाटकार, मंत्री, आमदार हांणी गाढवाक घोडो म्हळ्यार लेगीत लोक आपलो सुवार्त सादपाखातीर ताचें खरें मानतात. गरिबांचें हांगा कोण आयकून घेता?

जायू : खरें तुगेलें. कितले पयशांची मागणी करता तो?

सतीश : मुदल आनी ज्यूर एक करून तीस हजार दिवंक जाय म्हण्टा तो. तांतुंतले पांच हजार सोडूंक तयार जाला.

जायू : इतले हजार खंयचे हाडून दितलो रे बाबा तूं?

सतीश : प्रश्न तोच आसा. ह्या पंदरा दिसांभितर दुडू दिलेना जाल्यार म्हजीं बायल-भुरगीं वाऱ्यार पडटलीं. घरांत आशिनाशिल्लें भांगर विकून पंदरा हजार एकटांय केल्यात हांवें.

जायू : *(थोडो वेळ विचार करून)* तूं हांव आसतना कांयच भिंव नाका. *(गळ्यांतलें मंगळसूत्र काडून दिता)* हें घे, ही एकच वस्त आसा म्हजेकडेन. तीय म्हज्याच कश्टांची. विकल्यार कोणय सात-आठ हजार दोळे धापून दितलो.

सतीश : *(खंती जावन)* तुका पिशें बी लागुना मुगो जायू. गळ्यांतलें मंगळसूत्र....

जायू : गळ्यांत आसून कसलो फायदो आसा ताचो.... ताका मोल आशिल्लें जाल्यार म्हाका हांगा वावराडेचें जिणें जगपाची गरज नाशिल्ली. एका बदफयली दादल्याच्या नावाची खूण गळ्यांत घालून मिरयच्यापरस, ती विकून एका भावाचो संवसार जाग्यार पडटा जाल्यार ताच्या इतलें सूख म्हाका खंय मेळटलें?

सतीश : हिन्दू धर्माप्रमाण लग्न जाल्ले अस्तुरेक मंगळसूत्राचें मोल कितें आसता हें हांव बरेभसेन जाणां जायू. तरीय तुज्या भावनाची कदर करून हें मंगळसूत्र हांव तूर्ताक घेतां. पूण हे पवित्र वस्तीचो सोपूत घेवन तुका सांगतां म्हजे भयणी, की हें मंगळसूत्र हांव तुज्या घोवाच्या हातांनी तुज्या गळ्यांत घालीना जाल्यार म्हजें तूं नाव घेंवं नाका. तुजे उपकार हांव मरमेरेन विसरचोना.

*(मंगळसूत्र घेवन वता.)*

**दुसरो अंक सोंपता**

# अंक तिसरो

*(दिनेशालें घर. भायल्यान सीताराम दोन-तीन बेगां घेवन कडकडत कडकडत येता. फाटल्यान लिला येता)*

सीताराम : हालो मीस जायू, आय आनी माडाम कमड गो!

जायू : *(खोशेन)* कोण सीताराम? मिस्टर सीताराम! *(सीताराम मुरगट्टा)* लिलाबाय आयली? *(हात जोडून)* देवा वाट चुकिल्ल्यांक तूं अशीच वाट दाखय रे बाबा! बाबुल्या, वेगीन भायर यो. पळय कोण आयल्यांत तीं! *(बाबुलो येवन जायू म्हऱ्यांत उबो रावता)*

लिला : *(प्रवेश करून)* सीताराम....

सीताराम : येस माडाम!

लिला : सामान जाग्यार दवर!

सीताराम : किपड माडाम!

लिला : *(रागान)* भितर व्हरून दवर, भितर! रत्नां हीं देवाघरचीं!

सीताराम : इनसायड माडाम? माडाम, म्हज्यान हें सामान उबारूंक लेगीत जायना.

लिला : कित्याक? कसली धाड माल्ल्या तुका!

सीताराम : अेग्री माडाम, आय अेग्री विथ माय स्टोमाक. *(लोकांक)* सकाळीपासून ह्या पोटांत कांयच वचूंक ना.

लिला : तुजी बडबड नाका. पयलीं सामान भितर व्हरून दवर. *(तो*

*व्हरता. थोडो वेळ शांतकाय)*

जायू : लिलाबाय, कशी आसा?

लिला : *(मान सकल घालून)* आसा बरें!

जायू : म्हाका दिसिल्लेंच, तूं ह्या बाबुल्याक लागून तरी येतली म्हूण परत!

लिला : .......

जायू : बाबुल्या, तूं तुज्या मम्मी म्हऱ्यांत वचना?

बाबुलो : ना. तिची साली लोयतली!

जायू : तशें म्हणनांत रे शाण्या. लिलाबाय, तूं घरांत वच आनी हातपांय धुवन घे. हांव च्याक दवरतां आं.!

लिला : तूं सांगू नाका म्हाका भितर वच म्हूण! घर म्हजें, हांव म्हाका जाय तेन्ना वतलीं!

बाबुलो : मम्मी, हांव तुका आयस्क्रिम हालून दिवं? तकली थन्न जातली.

लिला : *(कानाभयऱ्यार घालून)* जायू तो सतीश कित्याक आयिल्लो हांगा?

जायू : तो कितें नव्यानंच आयला तर? सदांभसेन आयिल्लो!

लिला : कित्या कितेंय उलोवं नाका आं!

जायू : बाबुल्या, तूं भितर वच रे शाण्या... *(तो वता)*

लिला : हांव जाणां तो हांगा कित्याक आयिल्लो पळय, तें!

जीयू : जाणां जाल्यार आनी कित्याक विचारता तर?

लिला : वेल्यान तोंड व्हडलें मुगो तुका? लजय दिसना तुका, म्हज्या फाटल्यान त्या सतीशाकडे गुटर्रगूं करूंक?

जायू : कितें उलयता तूं लिलाबाय, हांव गरीब म्हूण म्हजेर कसल्या कसलोय आळ घालूं नाका आं !

लिला : हांव कोणाचेर आळ घालीना. खरें दिसता तेंच उलयतां. हांव घरांत नासतना, तुका मेळूंक येतलोच कित्याक तो हांगा. हांव चार दीस ना जाल्यार तुका घर मेकळें मेळ्ळें ताचेकडे प्रेमाचे चाळे करूंक?

| | | |
|---|---|---|
| जायू | : | हांव कसले चाळे करिना हांगा. सोतावेल्यान जग पारकूं नाकात तुमी! |
| लिला | : | तूं कितें म्हणूक सोदता गो? जीब तोडून काडटलें कित्याकितेंय उलयशी जाल्यार. |
| जायू | : | घर मालकिणीचो मान कसो राखूंक जाय, हें बरेभशेन जाणां हांव. पूण तूंच उलयतासतना ताळतंत्र सोडटा जाल्यार हांव कितें करूं! सतीश म्हाका भावासमान, आनी तूं आमचेर भलतोच आरोप करता. कशें ओगी रावतलें हांव ! |
| लिला | : | ओगीच सावाचो आव हाडूं नाका गो. तुका कितें दिसता? हांव दुदखुळें म्हूण? म्हाका सगळें समजता आं! तुमच्यो प्रेमभानगडी नांत जाल्यार कसलींय तरी म्हज्या आड गुपितां चलतात आसतलीं. |
| जायू | : | गुपितां? तीं आनी कसलीं गे बाये! तुजे आड गुपितां करुन म्हाका कितें मेळपाचें आसा? |
| लिला | : | तुमी म्हजी बदनामी करूंक सोदतात. हांव लोकांकडेन मेकळेपणान वागतां तें पळोवन दोळे फुट्टात तुमचे दोगांचेय. |
| जायू | : | हें खरें न्हय. तुजे तकलेंतलें भूत तूं काडून उडय. |
| लिला | : | कैदाशिणी, म्हजे तकलेंत भूत ना. खरेलें भूत तूं ! आनी सतीश देंवचार ! म्हाका खाल्याबगर तुमी मेकळीं जावचेलीं नांत. |
| जायू | : | तशें उलोवं नाका लिलाबाय ! तुजें पाड करून आमचें कांयच बरें जांवचेलें ना. उलट तुजें आनी ह्या घराचें बरें जावचें अशें आमी देवाकडे मागतां ! |
| लिला | : | तशें जाल्यार म्हज्या बारीक-सारीक हालचालींची तुमी दोगांय दखल कित्याक घेतात? आनी तूं कोण लागता गो म्हजी? सासूमांय? तूं ह्या घरांतली वावराडी मगो? काम कर, कितें दिता तें खा आनी पड एकटांय. बाकीच्यो गजाली तुका नाकात. |
| जायू | : | कळ्ळें म्हाका, ह्या फुडें हांव हेंच करतां. पूण तूं हें घर ... |

लिला : तुका ह्या घराचें कांयच पडिल्लें ना. तूं हांव सांगता तितलेंच करतलें, समजलें? *(नेटान भितर वता. भायल्यान दिनेश येता. हमाल बेगां दवरता, दिनेशाकडल्यान पयशे घेवन, सलाम करून वता.)*

जायू : आयले तुमी? बरें जालें. कशे आसात तुमी?

दिनेश : हांव बरो आसां. तूं बरें आसा मगो जायू? म्हजो बाबुलो खंय आसा?

जायू : भितर टि. व्ही. पळेता आसतलो. रावात आं, आपयतां! बाबुल्या, धावून यो. कोण आयल्यात पळे! *(बाबुलो धावून येता. दिनेश ताका वेंगेंत घेता. जायू बेग घेवन भितर वता आनी लिला भायर येता.)*

लिला : आयले तुमी? जांव सायबा ! आयल्यार पुरो, आयल्यार पुरो अशें देवाकडेन मागतालें हांव. *(दिनेश एका बेगांतली खेळणी काडून बाबुल्याक दिता. बाबुलो खोशी जावन भितर वता .)*

दिनेश : लिला, कशें आसा तूं!

लिला : तुमी म्हऱ्यांत नासतना हांव आनी कशें आसतलें, तुमचे काळजेन म्हज्या जिवाचे कशे हाल जाल्यात, हें तुमकां कशें कळटलें!

दिनेश : खरेंच?

लिला : दुबाव लागता जाल्यार सीतारामाक विचारात!

दिनेश : गरज ना. म्हाका जाणीव आसा ताची! पूण लिला, हांवें तुका इतलीं सगळीं पत्रां बरयलीं, आनी तुवें म्हाका एकाय पत्राची जाप कशी दिली ना?

लिला : दिल्या आं, सगळ्या पत्रांच्यो जापो दिल्यात!

दिनेश : तशें जाल्यार म्हाका कशीं मेळूंना तर तीं पत्रां?

लिला : आतां कोण जाणा कितें जालां तें !

दिनेश : लिला, तुज्या पत्रांची वाट हांव दोळ्यांत तेल घालून पळेतालों गो! म्हाका तुमची खूब काळजी दिसताली. जेवण-खाण

रूचनाशिल्लें. न्हिदूक गेल्यार दोळो लागनाशिल्लो. बाबुल्याची म्हूर्त म्हज्या दोळयांमुखार नाचताली, ताका लागून कसल्याच कामाचेर लक्ष लाग नाशिल्लें म्हजें !

लिला : म्हजीय अवस्ताय तशीच जाल्ली. तुमच्या ध्यासान जेवणखाण चलनाशिल्लें म्हाका. पळयात कितलें बारीक जालां तें हांव!

दिनेश : पूण म्हाका अजाप दिसता, तुजें एकय पत्र म्हाका कशें मेळ्ळेंना हाचें. म्हज्या सगळया वांगड्यांक वेळार पत्रां मेळटालीं घरचीं, खरेंच तूं म्हाका पत्रां बरयतालें लिला?

लिला : आवय ! पळयात पुता हांकां. म्हजेर कशे दुबाव घेतात ते !

दिनेश : दुबाव घेवपाक कारण आसा न्हय गो. तुवें बरयल्लें एकय पत्र म्हाका मेळना म्हळयार कितें?

लिला : हांवय तेंच म्हण्टा. हांवें बरयल्लीं पत्रां खंय गेलीं तर तीं?

दिनेश : ओगीच, कित्या कितेंय उलोंव नाका गो लिला! तुवें पत्रां धाडलीं जाल्यार म्हाका कशीं मेळचीं नांत?

लिला : आतां हांव जाणां? तुमकां मेळूंना जाल्यार खरेंलेंच अजाप म्हणपाचें. आतां ह्या फुडें रजिस्टर्ड, अे.डी.न बरयतां तुमकां पत्रां. चलात आतां कितेंय खावन घेयात.

दिनेश : खावपाचें मागीर पळोवया. पयलीं पत्रांची रूजवात जावंक जाय. ती कितें खावपाची वस्त? वाटेर कोंणेय खालीं म्हणपाक?

लिला : हांवें तशें खंय म्हळां!

दिनेश : पत्रां पोष्ट कोण करतालो?

लिला : जायू !

दिनेश : जायू? जायूशें ! सीताराम गेलो सोडून ?

लिला : सीताराम पिसो, तो एक सांगल्यार दोन करता. हालीं हांव ताका पातयेच ना.

दिनेश : तशें जाल्यार तुवें ताका दवरलो कित्याक कामार? जायू बायलमनीस, ताचें काम घरातलें, बरें, तूं तर घरांत बसून रावपी बायल न्हय! तुवें तरी म्हजीं पत्रां पोष्ट करपाचीं? हांवें तुका कितले वेळां बरयलें कि तुजीं पत्रां म्हाका मेळनांत

म्हूण. तरी सुध्दां तूं घाळ रावलें. हातूंत कसलीय तरी म्हाका गडबड दिसता. जायूक आपय! *(उलो मारता)* जायू, हे जायू! मात्शें भायर यो पळोवया! *(जायू येता)* तूं पत्रां खंयच्या पोष्टांत घालतालें?

जायू : पत्रां? *(दोगांयकडेन अजापान पळेता)* कसलीं पत्रां?

लिला : जालें ! हाकाय मानीकोमांत घालचें पड्टलें शें दिसता. आगे पापणी, पत्रां, पत्रां हांव तुजेकडे पोस्टांत घालूंक दितालें पळे तीं.

जायू : म्हजेकडे कोणे पत्रां दिवंकच ना जाल्यार, पोष्टांत खंयचीं घालतलें! हांवें केन्ना ह्या घराभायर पायेंच काडले नांत.

लिला : कितलें फट उलयतलें गो तूं ! कितलें म्हूण फट उलयतलें?

जायू : हांव कित्याक म्हूण फट उलयतलें! म्हाका फट उलवपाची संवंय ना.

दिनेश : कोण फट आनी कोण खरें हेंच कळनाशें जालां म्हाका. हांगां कितें घडटा तें पळोवन पिशें मात लागपाचें उल्लां म्हाका.

लिला : तुमकां कित्याक पिशें लागतलें? म्हाकाच पिशांत काडपाचीं कारस्तानां चल्ल्यांत हांगा ! हांगा कितें चल्लां तें कोणाक खबर आसा?

दिनेश : *(रागान)* लिला, तूं विशय बदलता. कसलीं कारस्तानां? हांगा आनी कारस्तानां कोण करतलो म्हज्या घरांत!

लिला : हें जायू ! हाणेंच तीं पत्रां पिंजून भायर माल्ल्यात जातलीं ! *(जायू दोनूय हातांनी तोंड लिपोंवन रडटा)* पळेलें, आतां तोंड लिपोवन रडून कोणाक दाखयता?

दिनेश : तें रडटा हाजो अर्थ ताणें पत्रां पिंजलीं असो जायना.

लिला : लायात तुमकां जाय तसो अर्थ ! पूण हांव तुमकां एकच सांगतां, तुमकां पत्रां न पावपाक कारण हें जायू आनी तो तुमचो सतीश!

दिनेश : आतां त्या सतीशाक कित्याक हाडलो हांगा?

लिला : कारण, तुमच्या फाटल्यान म्हज्या आड कारस्तानां करपी तीं हींच दोगांय जाणा.

दिनेश : सतीश आनी कारस्तान? केन्नाच ना.

लिला : हांव जाणाच आशिल्लें, तुमी मानूक तयार आसचे नांत म्हूण! तुमचो फ्रेंड न्हय तो !

दिनेश : तें आनी सांगपाची गरज ना. आसाच तो म्हजो फ्रेंड.

लिला : तुमकां सगळेच आपले फ्रेंड दिसतात.

दिनेश : ना. फक्त सतीश म्हजो फ्रेंड.

लिला : फ्रेंड-फ्रेंड म्हणून भोळेपणाचो फायदो घेतात सगळे.

दिनेश : सतीश तसलो न्हय. म्हजो पुराय विश्वास आसा सतीशाचेर!

लिला : हूं ! म्हणूनच ताणें तुमच्या घराची अब्रू गांवांर घाल्या !

दिनेश : सतीशान म्हज्या घराची अब्रू वाऱ्यार घाली? आनी ती कशी?

लिला : तो गांवढळ...

दिनेश : उलयतासतना सारकें उलय. ताका गांवढळ बिवंडळ म्हणशी जाल्यार खबरदार!

लिला : हांव जाणांच आशिल्लें, तुमी अशें उलयतले म्हणून. ताणीं तुमचे पयलींच कान फुंकल्यात जावंक जाय.

दिनेश : म्हजे कान हांवें वाऱ्यार सोडूंक नात, कोणेय फुकपाक, हांव पोकोळ कानाचो न्हय. खरें-खोटें पारखुपाची ताकत आसा म्हज्या आंगांत. तूं कितें सांगूंक सोदता तें स्पष्ट आनी मोकळेपणान सांग. सतीशान म्हज्या घराची अब्रू गांवार कशी घाली?

लिला : म्हजे वायट संबंद पर पुरूशाकडे आसात, अशें तो मेळत तांकां सांगत सुटला.

दिनेश : सतीश इतलो सकयल्या थरार पावत अशें दिसना म्हाका. आनी तुज्या आड तो अशें उलोंवकच शकना.

लिला : कळटलें तुमकां थोड्याच वेळान. हातच्या कांकणाक आरसो कित्याक जाय?

दिनेश : पूण तशें करूंक कसलेंय कारण आसूंक जाय न्हय?

लिला : कारण आसा !

दिनेश : मागीर सांग न्हय तर कसलें कारण तें !

लिला : तो एक दीस म्हजेकडे पयशे मागूंक आयिल्लो.

दिनेश : मागीर?

लिला : हांवें ताका दिलेना.

दिनेश : कित्याक दिलेना तुवें ! नाशिल्ले तुजेकडे?

लिला : ताका जाय आशिल्ले हजारांनी. हांव कशें दितलें आशिल्लें?

दिनेश : तशें जाल्यार ताणें म्हाका कित्याक कळयलें ना?

लिला : तें तुमी ताका विचारात.

दिनेश : तें हांव ताका विचारतलोंच. पूण, तुवें पयशे दिलेना म्हूण तो तुजी बदनामी करीत, अशें म्हाका दिसना. तुजो कसलोय गैरसमज जाला जावंक जाय. म्हजो सतीश असलीं हलकटपणा केन्नाच करचोना. म्हजो पुराय विश्वास आसा ताचेर.

लिला : हय तर ! तुमचो म्हजेहून त्या जायूचेर आनी सतीशाचेर व्हड विश्वास आसा.

दिनेश : लिला, तूं म्हजी धर्मपत्नी हें खरें पूण सतीश म्हजो जिवाभावाचो इश्ट. म्हजेकडल्यान ताचेर कसलोय अन्याय जालो जाल्यार हांव म्हाका जल्म भर माफ करूंक शकचो ना.

लिला : तुमी तुमकां जाय तें करात, पूण ह्या फुडें हांव कोणाचें कांयच आयकुचें ना. आतां म्हजें बरें वायट म्हाकाच पळोवचें पडटलें. म्हाका न्याय दिवपी कोण आसा ह्या घरांत! घरांतल्या वावराडे इतलीय म्हाका किंमत ना म्हळ्यार कितें?

दिनेश : तुजी किंमत कोण्णे उणी करूंना. ओगीच तकलेंत राख घालून घेंव नाका. आतां हांव आयलां न्हय? सगळ्या गोश्टींचो छडो लायतां. बेटेंच काचाबूल जांव नाका. हांव कोणाचेर अन्याय जावंक दिवचों ना. देवान तितली अक्कल दिल्या म्हाका !

लिला : देवान अक्कल सगल्यांक दिल्या, म्हाकाय समजता थोडें

तरी!

दिनेश : म्हणूनच सांगतां तुका, थोडो धीर धर. ओगीच उतावेळें कित्याक जाता? येंवदी सतीशाक !

लिला : तो येता तेन्ना येंवंदी. पूण तांच्यापयलीं हांव जायूक घरांतल्यान भायर घाल्याबगर रावचींना. ह्या फुडें ताचें तोंड लेगीत पळोवपाची इत्सा ना म्हाका! *(जायू भितरल्यान बेग घेवन येता.)*

जायू : म्हाका घरांतल्यान भायर घालपाचे कश्ट घेंवं नाकात तुमी! हें पळयात हांवच चल्लें हें घर सोडून. हांव केन्ना वचपाचें. बाबुल्याक लागून जीव ओडटालो म्हजो. आतां ताजो आवय-बापूय घरांत आसात, हांव मोकळें. म्हजे कितें? हांगा ना जाल्यार दुसरेकडेन! कोणाचेंय काम करून खायन हांव. बाबुल्याक मात बरे भसेन सांबाळात! *(बाबुलो भायर येता)*

बाबुलो : जायू, जायू तूं बेग घेवन खंय वता? म्हाका सोलून वता? मम्मी गेल्ली तशी? *(लिला मान खाला घालता)*

दिनेश : मम्मी गेल्ली तशी?

बाबुलो : पप्पा, मम्मी ! जायू खंय वता?

लिला : तें वचूं खंयीं, तूं भितर वच.

बाबुलो : ना. हांवूंय वतां जायू वांगला. म्हाका जायू जाय! *(लिला बाबुल्याक ओडीत व्हरता. बाबुलो जायू जायू म्हणून सुटपाचो यत्न करता)*

लिला : पळेत कितें रावलां अवदशे ! वता जाल्यार वच तोंड घेवन. राव म्हण्टा काय पळेता? *( जायू बाबुल्याक पळोवन खंती जाता आनी वता)*

दिनेश : कितें भानगड कांयच समजना. ह्या सगळ्या टेन्शानान फार जायना जाल्यार पुरो म्हजे तकलेचो !

लिला : *(भायर येवन)* कोण्णाच्या तकलेचो फार जायना. हो तुवालो घेयात आनी न्हावंक वचात. *(दिनेश तुवालो घेवन भितर वता. लिला सीतारामाक खुणावन भायर आपयता.)*

सीताराम : *(हळू येवन)* एस माडाम !

लिला : मोट्यान उलोंव नाका. हें पळे, तूं म्हज्या मोगाचो न्हय?

सीताराम : एस माडाम ? *(मुरगट्टा)*

लिला : ओगीच असो मुरगटूं नाका. हांवें तुका केन्नाच कितें ना म्हळां?

सीताराम : नो माडाम !

लिला : बस्स ! *(तो बसता)* बसलो मरे तूं !

सीताराम : तुवें बस म्हळें, हांव बसलों. आमचें कितें बस...

लिला : पुरो, पुरो ! जाली बडबड सुरू. हांवें तुका बस म्हणू नाः आयल्यान यो, *(हेवटेन तेवटेन पळोवन)* तुवें म्हजें एक प्रायवेट काम करूंक जाय.

सीताराम : एस माडाम ! कसलें माडाम ?

लिला : तें मागीर सांगतां. म्हजें हें काम केल्यार हांव तुका मागता तें दितलें .

सीताराम : एस माडाम, सांगच तूं. केलेंच म्हणून समज.

लिला : बाबा आयला तें जाणां मरे तूं?

सीताराम : हय.

लिला : बाबांच्या मुखार हांव विचारतां तितलेंय हय म्हणूक जाय.

सीताराम : कितेंय विचारल्यार 'हय' म्हणूक जाय?

लिला : हय !

सीताराम : तें कशें जातलें माडाम?

लिला : जावंचें ना? *(किरवटीचीं शंबर रुपयांची नोट काडून दिता.)*

सीताराम : *(नोट बरी करून पळेता)* एस माडाम ! रेडी माडाम. आतां तूं कितेंय विचार.

लिला : आतां न्हय मागीर. चल भितर. *(दोगांय वतात. भितरल्यान दिनेश येता)*

दिनेश : सीताराम!

सीताराम : *(भायर येवन)* एस माडाम? नॉट माडाम, सर !

दिनेश : मस्तेला रे तूं?

सीताराम : एस सर, नो सर !

लिला : हांवें सांगू ना तुमकां तो सद्या ह्या संवसारांत ना म्हणून ! सीताराम...

सीताराम : एस माडाम !

लिला : हांव सदांच पत्रां बरयतालें तें जाणा न्हय तूं?

सीताराम : हय !

लिला : तीं पत्रां हांव जायूकडे दितालें, पोस्टांत घालूंक.

सीताराम : हय.

लिला : तो सतीश आमगेर येता तें जाणा तूं?

सीताराम : हय.

लिला : परतें - परतें हय हय कितें करता?

सीताराम : तें हांव करिना, शंबर रुपयांची नोट करता. *(लिला पिकार जाता)*

दिनेश : सीताराम !

सीताराम : एस माडाम, नॉट माडाम, सर !

दिनेश : एस माडाम, नॉट माडाम? वच हांगाचो तोंड घेवन !

सीताराम : एस् सर ! *(वता. लिला तोंड काळें करून भितर वता. दाराची बेल वाजता)*

दिनेश : कोण? येयात भितर, दार उकतें आसा. *(नारु येता. सगळीकडे नदर मारता.)*

नारु : सतीश आयला हांगा?

दिनेश : पूण तुमी कोण?

नारु : सतीशाचें हांगा येवप-वचप आसा न्हय? म्हणून ताका सोदूंक आयलां हांव हांगा.

दिनेश : तें जालें हो, पूण तुमी कोण तें सांगशात काय ना? ओगीच लांबयतात कित्याक?

नारु : तुमी वळखतात म्हाका? हांव वळखतां तुमकां. तुमी म्हाका कशे वळखतले? तुमी येतात खंय घरा. पूण तुमची घरकान्न वळखता म्हाका आं! बायल मात बरी मेळ्ळया तुमकां,

सोशियाल! ना जाल्यार आमकां मेळ्ळयात ! पेत्रोलाचीं पिपां ! म्हऱ्यांत वचून फस्काची काडी मारूंक भंय. केन्ना पेट घेत सांगू नज, पिंप !

दिनेश : हें पळयात, हांव तुमकां अजून वळखूं ना. आनी वळख नासतना कोणाकडे संवाद सादपाची म्हाका संवय ना. आतां तुमची बडबड थांबयात, आनी चलूं लागात हांगचे!

नारु : हें पळयात, तुमी अशे तापूं नाकात, म्हजो अपमान जाता. ह्या ग्रावादाक तरी मान दियात मात्सो. तुमी म्हाका असो लटर-फटर समजूं नाकात. म्हजें व्हडल्या - व्हडल्या मनशां मदें उठप-बसप आसता. गोवेर्नादोर, आदमिनिस्त्रादोर, मिनिस्त्रू, सगळे म्हज्या भोवतींच आसतात. ह्या शारांत नारुबाब म्हळ्यार फामाद ! त्या देड दमडेच्या सतीशाक लागून ह्या असल्या घरांत पांय दवरचो पडलो म्हाका!

दिनेश : *(हात जोडून)* तो तुमचो देड दमडेचो मनीस हांगा ना.

नारु : नासूं, नासूं! तुमी आसात न्हय, पुरो! *(भितरल्यान लिला येता)*

लिला : कोण नारुबाब ! कशे आसात तुमी ?

नारु : *(दोनय हात दाखोंवन)* बेस बरो आसां. तुमी कशीं आसात *(लिलाक हात दिवंक वता)*

दिनेश : *(फुडें वचून)* तुमी म्हजे बायलेक हात बी दिवंक वचूं नाकात.

नारु : आदेवस करतां, आदेवस !

दिनेश : आतां हांव तुमकां आदेस करतां, तुमी तुमचें काम आटपून चालीक लागात.

लिला : तुमी वळखूं ना हांकां? हे नारुबाब ! ह्या शारांतले व्ही. आय. पी. !

दिनेश : नारुबाब, तुमी सतीशाक सोदूंक हांगा कशे आयले? घराकडे कित्याक गेले नांत?

नारु : तो घराकडे आसता खंय? पळून भोंवता पळून !

दिनेश : चोर तर तो पळून भोवूंक !

नारु : चोर परवडलो, पूण हो न्हय ! हो सर्वगूण संपन्न. आतां

हांव हांगाच कित्याक आयलों तें सांगतां तुमकां. म्हाकां खबर आसा, शेणिल्लें गोरूं करमळेच्या तळयारूच मेळटलें म्हूण!

दिनेश : म्हजें घर म्हणजे करमळेचें तळें बीं दिसता काय कितें तुमकां?

नारु : तशें दिरेयत घेंव नाकांत हो ! म्हाका खबर आसा, सतीश तुमच्या वावराडेक सोदूंक हांगा येता म्हणून ! *(हें आयकून लिलाक खोशी भोगता. दिनेश नारुक रागान पळेता)* अशे रागान पळोंव नाकात म्हाका. ह्या तुमच्या घराभोंवतणी दादलेच दादले दिसतात, अशें लोक म्हण्टात. आतां तुमच्या घरकान्नीविशीं लोक कांयच उलयनात आं, तेंय सांगतां तुमकां..

लिला : नारुबाब, तुमी सतीशाचेर इतले रागार कित्याक?

नारु : रागार जांव नाका जाल्यार कितें करूं? फुलां घालूं ताका? हाका नागय, ताका नागय आनी सोताची आस भागय. अशे तरेचो धंदो चल्ला तागेलो. लोकाचे संवसार पाड घालता, घाल. म्हाका ताचें पडिल्लें ना. पूण म्हजें नुकसान केलें जाल्यार ह्या ग्रावादाचो सोपूत घेवन सांगतां तुमकां, ताचो सत्यनाश केलेबगर रावचोना हांव.

दिनेश : लिला, तूं मात्शें भितर वच. ना जाल्यार हें खट कशेंच हालचेंना हांगच्यान !

लिला : तुमी खट कित्याक म्हण्टात तांकां? आयकुया कितें सांगतात तें! तुमकांय कळटलीं तुमच्या फ्रेंडाचीं कर्तुबां. म्हजेर विश्वास ना न्हय तुमचो? नारुबाब, तुमी सामके वेळार आयले, देव कशे धावून.

दिनेश : तुकां कितें दिसता? हाणीं कितलीय ओरड केली म्हुण हांव खरें मानतलों अशें !

नारु : मानूं नाकात, तुमी कांयच खरें मानू नाकात म्हजें ! आतांच दाखयतां तुमकां ताची फाल्सीदाद. *(बोलसांतल्यान सरपळी*

*भायर काडटा.)* ही पळयात, ही आतां सरपळी. खोटी न्हय आं, भांगराचीच. तेंय सांगतां तुमकां. आतां तुमीच सांगात, ही सरपळी चार पोवनाची जायत गा?

दिनेश : ती कितलेय पोवनाची जांव, आमकां सांगूं नाकात कांय.

नारु : सांगूं नाका कशें तर ! तुमचो इश्टट न्हय तो? तुमचो ताचेर विश्वास आसा न्हय? हो तुमचो इश्टट, साधू, महात्मो म्हाका दोन पोवनाची सरपळी दिवन चार पोवनाची म्हूण सांगता. म्हाका नागोवंक सोदता लाद्रांव!

लिला : मात्शी दाखयात पळोवया सरपळी? *(लिला सरपळी हातांत घेवन पळेता)* ही सरपळी ओळखीचीशी दिसता म्हाका ! आवय म्हजे ! ही तर आमच्या बाबुल्याची सरपळी ! नारुबाब, ही तुमचेकडें कशी पावली गा?

नारु : सांगलें न्हय तुमकां? सतीशान दिल्या म्हणून !

लिला : पळेलें ? हांव जाणांच आशिल्लें ! हांवें ताका पयशे दिलेना म्हणून हें करतूब केलें. म्हजे वावराडेकडे संधान बांदून म्हज्या भुरग्याची सरपळी फारायता? रावात, हांव दाखयता ताका नारुबाब, पुलिशेंत वचून कंप्लेन दियात !

नारु : अशें म्हण्टात, बरें तर ! *(वचूंक लागता)*

दिनेश : खंय धांवतात, धांवचे पयलीं तें धोंतर सारकें करात.

नारु : *(धोंतर सांसपिता)* आसा. धोतर घट्ट आसा.

दिनेश : आतां उपकार करून घरची वाट धरात.

नारु : पुलिशेंत वचूं नाका ?

दिनेश : नाका, तें हांव पळोवन घेतां.

नारु : म्हजी सरपळी?

दिनेश : दवरात हांगा !

नारु : आनी म्हजे पयशे ?

दिनेश : तेय मेळटले !

लिला : पळेलें? एका चोराची कशी पाटराखण करतात ते !

दिनेश : लिला, तूं म्हज्या सहनशीलतेचो अंत पळोंव नाका.

लिला : दियात, दियात तुमकां जाय तितल्यो धमकावण्यो ! त्या चोराक तुमी इश्ट म्हूण माथ्यार घेतात, आनी हांव वाऱ्यावेलें...

दिनेश : इश्ट जांव जाल्यार आनी कोणय जांव. खरेंपण समजून घेतलेबगर कोणाचीच बदनामी जावंक दिवचोना हांव.

लिला : बसात तांकां वेंग मारून, म्हजेहून तो व्हडलो न्हय तुमकां?

दिनेश : न्यायामुखार कोण व्हडलो न्हय. तो मागीर इश्ट जांव नाजाल्यार सोताची बायल जांव.

लिला : करात तुमकां जाय तशें. हांव आतां ह्या घरांत आनी खीणभर लेगीत राव सारकें ना. चलात नारुबाब.

दिनेश : तांकां आनी खंय व्हरता?

लिला : हक्काच्या मनशाक म्हजें केर ना जाल्यार कोणाचोय आदार घेंवकच जाय न्हय ! *(नारु टाय हालयता)*

नारु : म्हण्टकच या न्हय आमी ! *(भायल्यान सतीश येता)*

दिनेश : नारुबाब, तुमी आतां खंयच वचचे नांत !

नारु : *(सतीशाक पळोवन)* कित्याक काय म्हण्टा? हांव कोणाचो सेवेंत न्हय, म्हाका आडोवपाक.

दिनेश : आगा, आतां सतीश आयलो मगा. करूया रूजूवात?

नारु : कितें म्हळें?

दिनेश : चौकशी करूंया चौकशी !

नारु : *(काचाबूल जावन)* हांव पयलीं पु-पु-पुलीशेक घेवन येतां.

लिला : हय नारुबाब, तशेंच करात तुमी.

सतीश : दिनेश, तूं केन्ना आयलो?

दिनेश : हांव आतांच आयलां रे ! बरें जालें तूं येवन !

सतीश : कसलो बोवाळ चल्ला हांगा? पुलीस, इन्क्वायरी..

दिनेश : आमच्या घरांतली कोणे सरपळी चोरल्या.

सतीश : सरपळी चोरली ? केन्ना !

लिला : पळेयात, सगळें करून सवरून आपल्याक कांय खबर ना अशें करून दाखयता.

दिनेश : लिला, तूं आतां तोंड बंद कर. आतांच रूजूवात करूया,

सगळीं जाणां आसात हांगा. आतांच कळटलें, ओगीच तोंडाची वाफ कित्याक घालयता! सतीश, तूं हे सरपळेक वळखता?

सतीश : ना. ही हांव आतांच पळेतां.

दिनेश : आतांच पळेता? पूण हे नारुबाब सांगतात कि तांकां ती तुवें दिल्या म्हणून !

सतीश : आनी तूं तें खरें मानता !

दिनेश : आरे, हो जितो मनीस सांगता आसतना हांव खोटें कशें मानू? *(सतीश नारुक पळेत रावता. नारु दचकता)*

सतीश : आयलें म्हज्या लक्षांत ! भाटकारा !

नारु : ओ ऽऽऽ!

सतीश : हो सांगता ती गजाल खरी?

नारु : शें पुरशेंत !

सतीश : *(म्हऱ्यांत वचून)* भाटकारा , तूं खंयच्या देवाक मानता?

नारु : हांगा देवाक कित्याक हाडटा?

सतीश : आनी कोणाक हाडूं? हांव गरीब न्हय, गरिबांक देवा शिवाय ह्या संवसारांत आनी कोण आसा भाटकारा?

नारु : आसूं कोणय, तें म्हाका लागना.

सतीश : भाटकारा, तूं दामूबाबाक मानता?

नारु : बऽऽरो ! ताचो आनी म्हजो खूब वर्सांचो संबंद, व्हडलें दुकान आसा ताचें मडगांवां.

सतीश : हांव दुकानदाराची गजाल उलयना, जांबावलेच्या देवाविशीं उलयतां.

नारु : हांव म्हज्या वेवारांत खंयच्याच देवाक मदें पडूंक दिना.

सतीश : तशें जाल्यार हो वेवार आमचे भितरच करूया तर ! *(नारु कोरें करून पळेता)*

सतीश : दिनेश, हांव आतांच दाखयतां तुका, सरपळी कोणे चोरली पळय ती. भाटकारा, मात्सो आयल्यान यो पळोवया.

नारु : हांव तुज्या म्हऱ्यांत येवं? हांव तुजो भाटकार काय तूं म्हजो भाटकार रे पोरा! तूं म्हाका ओर्द दिता?

सतीश : तशें जाल्यार हावंच थंय येतां !

नारु : नाका-नाका, आमी आसात थंयच बरे आसात. ना जाल्यार हावंच वता हांगाचो.

सतीश : खंय वता? म्हाका पुलिशेंत व्हरना?

नारु : तें मागीर पळोवया.

सतीश : मागीर कित्याक गा! आतांच पळोवया. *(सतीश हळू हळू नारुच्या म्हऱ्यांत वता, नारु भिता, फाटीं-फाटीं सरता.)*

नारु : इतल्या लागीं येवंनाका पोरा. म्हाका भंय दिसता तुजो.

सतीश : भंय कसलो गा, मन साफ आसल्यार कित्याक भिवंक जाय दुसऱ्याक?

नारु : दुसऱ्याल्या घरांत येवन दादागिरी करप बरें न्हय !

सतीश : ही सरपळी हांवें दिली तुका?

नारु : तुवें दिलीना जाल्यार कोणे तुज्या बापायन दिली?

सतीश : *(नारुच्या टायाक धरून ओडटा)* उलय आतां, सरपळी कोणे दिली तुका?

नारु : म्हजो ग्रावाद सोड, नां जाल्यार बरें जावंचें ना.

सतीश : सगळ्यो भानगडी करून वेल्यान म्हाकाच धमकावण्यो दिता? *(सतीश टाय सोडून नारुच्या गळ्याक धरता. नारु जीब भायर काडटा)*

नारु : मेलों, मेलों रे ऽऽ देवा! लिला सोडय गो बाय म्हाका ह्या देवचाराच्या तोंडातलो..

दिनेश : सतीश ! हें कितें चल्लां तुजें ? सोड तांकां.

सतीश : तूं ओगी राव दिनेश. असल्या मनशांक आनी दुसरो उपाय ना.

नारु : हांव भाटकार मरे पोरा तुजो. मातूय रेस्पेद ना म्हाका !

सतीश : तूं बरेभसेन खरी गजाल सांगता काय...

नारु : ना जाल्यार कितें करतलो? सगळें तुजेरच सोंपलां रे पोरा? हांगा गोवेर्न बी कोण ना? *(सतीश नारुचो हात धरून पिळटा)* आवय, आवय, आवय ! मोडटा रे पोरा म्हजो





हात?

सतीश : हातच न्हय, तुजे पायेंय मोडून घालतलों खरें सांगना जाल्यार! *(नारु भियेता)*

नारु : राव सांगतां, सगळें सांगतां. पयलीं हात सोड म्हजो. *(सतीश हात सोडटा)* हाणें, हाणें दिल्या ती सरपळी म्हाका. *(लिलाक बोट दाखयता)* हांव ह्या ग्रावादाचो सोपूत घेवन सांगतां, हाका आनी त्या राजेंद्राक लागून करचें पडलें म्हाका हें नाटक. पूण फसलों हांव !

लिला : नारुबाब, कित्या कितेंय उलोंवं नाकात.

नारु : म्हजो हांगा जीव वचपाचो ओगोत आयलो आनी फाल्सिदाद कित्याक उलोंव हांव? म्हाका नाकात तुमच्यो भानगडी, हांव वतां! *(दिनेशाक)* म्हजें तें पयशांचें मात जाग्यार घालात. *(वता)*

दिनेश : कितें आयकतां हांव नवें नवें ! म्हजी तकली फुटपाक पावली आतां.

सतीश : अजून कितें जालां? सगलें आयकून घे, आनी मागीर उलय! तूं तुजे घरकान्नीक विचार, हें घर उबंत उडोवन खंय गेल्ली काय म्हणून.

दिनेश : लिला, सतीश कितें सांगता? इतले दीस घरांत नाशिल्लें तूं?

लिला : ना.

दिनेश : खंय गेल्लें?

लिला : कित्याक? सगळो रिपोर्ट दिवंक जाय तुमकां?

दिनेश : हय. पत्नी तूं म्हजी !

लिला : पत्नीच मूं? गुलाम न्हय !

दिनेश : गुलामाकडे कशें वागूंक जाय तें हांव जाणां. तुका हांवें ह्या घरांत म्हज्या सुख-दुःखांत वाटो घेवंक हाडलां. तुवें म्हाका कितेंच लिपोवन दवरूंक फावना. सांग, खंय गेल्लें तूं?

लिला : पिकनिकेक गेल्लें हांव !

सतीश : वा ! बरो चलता कंप्यूटर. आतां ताका विचार, खंय आनी कोणा वांगडा पिकनिकेक गेल्ली काय म्हूण.

लिला : *(रागान)* कितें विचारूंक जाय तें ते विचारतले म्हाका! तूं कित्याक मदेंच नाक खुपशिता?

दिनेश : सतीश, तूं ताचेकडे लक्ष दिव नाका. म्हजो तुजेर पुराय विश्वास आसा, देखून हांव म्हजो भांगरासारको संवसार तुजेर पातयोवन निर्धास्तपणान देशाचें रक्षण करूंक सीमेर गेलों ! सांग लिला, तूं म्हजे फाटल्यान कसल्यो पिकनिको करतालें पळय तें !

लिला : तुमकां कितें दिसता? म्हाका अशें ऽऽ वाऱ्यार उडयलां? कोण ना म्हजो ह्या संवसारांत? ह्या घराची मालकीण हांव, आनी तुमी म्हाका सुण्याची वागणूक दितात !

सतीश : ना वहिनी, ना. ह्या घरांतलो प्रत्येक मनीस तुका स्वामिनीचो मान दिवंक सोदता. पूण तुका तुजी सुवात सांबाळूंक कळना!

लिला : कितें केलां रे हांवें? कोणाचो पोटलो खाला?

सतीश : तुवें तुज्या घोवाचो विश्वासघात केला! फटयला तुवें तुज्या घोवाक. तुमगेर जल्मल्ल्या भांगरासारक्या भुरग्याच्या भविश्याची वाट लावंक सोदता तूं! तेंय तुज्या सोताच्या सुखाखातीर.

लिला : हांवें कोणाचें कांय वायट करूंना.

सतीश : तूं कितें समजता? सगळो संवसार पिसो आनी तूं एकटीच शाणी? तूं तुजो भांगरासारको संवसार उबंत उडोंवन, एका परक्या मनशावांगडा रावूंक गेली हें लोकांक खबर ना? सगळो लोक तुका छीः थूः करता. केल्लीं पातकां लिपून उरचीं म्हूण वेगो वेगीं तुवें जायूक भायर घालें. हांव तुजें बिंग फोडटलों म्हूण त्या नारुक सांगाताक घेवन म्हज्या आड कुमाण रचलें ! सांग वहिनी, सांग, खंय फेडटली तूं केल्लें पातकांचें मोल?

लिला : हांवें जायूक भायर घालें तें तुका कोणे सांगलें?

सतीश : जायूनच सांगलें म्हाका.

लिला : तें तुका सांगना जाल्यार आनी कोणाक सांगतलें! तूं तर तागेलो सगळो.

सतीश : तोंड आसा म्हूण कित्या कितेंय बडबडचें न्हय वहिनी ! दुसऱ्याचेर फेकिल्लें शस्त्र परतें आपल्या आंगार येतकीर मनीस अशेंच बडबडटा !

लिला : तें जायू आसूंक जाय आशिल्लें हांगा. मागीर दाखयतलें आशिल्लें हांव, कोणाच्या आंगार कितें आयलां पळय तें !

सतीश : अशें, दाखय तर आतां, जायू वचूंना. हें पळय भायर आसा उबें. हांवें हाडलां ताका परत!

लिला : हांवें भायर घाल्ल्या मनशाक परत हाडूंक तूं कोण? *(दिनेशाक)* आनी तुमकां सांगतां हांव, त्या जायूक परत ह्या घरांत घेशात जाल्यार हांव हांगा कशेंच रावसारकें ना.

दिनेश : हें तुवें कितले वेळां सांगलें म्हाका? घर सोडपाचो निर्णय तुवें केऽन्ना घेतलो, नारु वांगडा वचूंक तयार नाशिल्लें तूं?

सतीश : जायू, यो भितर ! *(जायू येता)* दिनेश, ही तुजी घरकान्न बाबुल्याक जायूकडे सोडून गांवांर हेडटाली. जायून बाबुल्याचो सांबाळ करूं नाशिल्लो जाल्यार कितें जातलें आशिल्लें हाची कल्पना कर ! आतां तूंच विचार कर आनी पळय, ह्या घराक कोणाची गरज आसा पळय ती.

लिला : सगळें ताचेंच आयकयात तुमी. म्हजें कांयच आयकूं नाकात!

दिनेश : आनी कितें उल्लां आयकुपाचें? ह्या फुडें म्हाका तुजें तोंड लेगीत पळोवपाची इत्सा ना! आत्ताच्या आतां तोंड काळें कर हांगच्यान!

लिला : हांवूंय तेंच सोदतालें, कोणाक जाय हें घर ! कितें आसा हांगा, तुमीच बसात तें घेवन. हें पळेयात हांव चल्लें ! *(वचूंक लागता. जायू आडायता)*

जायू : एकदां घरांत आयिल्ली परत खंय वता लिलाबाय तूं? *(दिनेशाक)* धनयां, घरांत आयिल्ले लक्ष्मीक परत भायर काडूं नाकात. तिणें केल्ल्यो सगळ्यो चुको पोटांत घालून

मोटे मनान माफ करात तिका.

दिनेश : लक्ष्मी! जायू, ही लक्ष्मी न्हय, ही अवदिसा. हिका माफ-बिफ कांय ना. फकत खोंट मारून भायर घालपाची बायल ही. माफ खंयचें, ह्या फुडें हिचें तोंड लेगीत पळोवपाची इत्सा ना म्हजी.

लिला : माफ! म्हाका कोणाची भीक नाका.

सतीश : तुका भीक घालतलो कोण ? तुजी तितली लायकीच ना जाल्यार ! हांव जांणा तूं कोणाच्या खुस्तार नाचता पळय ती ! तुजे त्या राजेंद्राची गत कितें जाल्या जाणा तूं? पुलिसानी अटक केला ताका, कितल्यांशाच बायलांक फटयल्यात म्हूण !

लिला : तूं फट उलयता, एका सज्जनाक बदनाम करूंक सोदता तूं!

सतीश : अशें? हो पेपर वाच! ताचेर व्हडलो फोटो छापला तो कोणाचो काय पळय. खाला कितें बरयलां तें, बरे भशेन वाच दोळे उकते करून! *(लिला पेपर घेवन वाचता! वाचून अस्वस्थ जाता. थोड्या वेळान पेपरांत तोंड लिपोवन हुंदक्यानी रडटा)*

लिला : *(दिनेशाच्या पायांकडे घालून घेता)* माफ करात म्हाका, चुकलें हांव ! म्हज्या मुर्खपणाक लागून करूंक फाव नाशिल्लें केलें हांवें. *(दिनेश कसलीच हालचाल करिना. जायू लिलाक सावरून उठयता.)* जायू, चुकलें गो हांव, तुजें आयकल्लें जाल्यार म्हजेर हो वेळ येवचो नाशिल्लो.

जायू : अजूनय कांय बिघडूना बाय ! पश्चातापान सगळीं पातकां धूवन वतात अशें म्हण्टात.

लिला : फसलें गो हांव त्या राजेंद्राच्या गोड गोड उतरांक? व्हांवत गेलें हांव ताच्या संगतीन ! सतीश, सांगरे तुज्या इश्टाक म्हाका एकदांच माफ कर म्हूण !

सतीश : ना वहिनी ! तुवें कोणाकच तोंड दवरूंना तुजी तरफदारी करूंक! तुवें पश्चतापाचीं कितलींय नाटकां केलीं म्हूण हांव फसचो ना तांकां.

लिला : जायू, तूं तरी सांग गो तांकां ! हांव कसलीय शिक्षा भोगूंक तयार आसां, पूण म्हज्या घराची आनी हक्काच्या मनशांची सेवा करपाची संद म्हाका एकदांच मेळूं दी !

दिनेश : जायू, तूं वच भितर, सतीश तूं तुज्या कामाक लाग. आनी ताका सांग म्हज्यामुखार एक खीणभर लेगीत उबें रावूं नाका म्हूण.

जायू : ना धनयां, अशें करूं नाकात. लिलाबायन केल्लो अपराध व्हड आसा हाची जाणीव आसा आमकां. तरी ह्या घराचें घरपण टिकोवपाखातीर तुमी ताका एकदांच संद दियात !

दिनेश : संद आनी हाका? इतलें सगळें करून विखाची परीक्षा घेवंक लायता तूं म्हाका जायू ? हें म्हज्या प्रेमाक लागून आसऱ्याची भीक मागना म्हजेकडे ! त्या राजेंद्राचें बिंग फुटिल्ल्यान, नाइलाजान हांगा रिगूंक सोदता तें ! असलीं मनशां खोंट मारून भायर घालपाचे लायकेचींच आसतात!

लिला : सांगलें न्हय हांवें तुमकां, म्हजी चूक म्हाकां कळून आयली म्हणून. ह्या फुडें म्हजेकडल्यान असली चूक घडली जाल्यार, खऱ्यांनीच तुमी म्हाका धक्के मारून भायर घालात! लग्न जाल्ले बायलेक घोवाल्या घराबगर आनी आदार ना, हें कळून चुकलें म्हाका.

सतीश : हें तुका आदीं कळिल्लें जाल्यार खूब बरें जातलें आशिल्लें.

जायू : धनयां, दाखयात ताका दया ! व्हडानीं ल्हानाक माफ करपाचें आसता, अशें साधुसंत सांगतात.

दिनेश : हांव साधुय न्हय आनी संतय न्हय! इतले दीस परपुरुशावांगडा रावून घरा आयिल्ले बायलेक हांव घरांत घेंव आनी संवसार करूं?

लिला : सतीश,हांव राजेंद्रा वांगडा गेल खरें,पूण हांव पवित्र आसा रे!

सतीश : ताची म्हाका पुराय खात्री आसा वहिनी ! त्या दुश्ट राजेंद्रापासून तुज्या शीलाची राखण जावंची म्हूण हांवेंच सीतारामाक तुज्यावांगडा धाडिल्लो. तुका कितें दिसलें, सीताराम तुवें

आपयला म्हूण तुजे वांगडा गेल्लो? दिनेश, जायू सांगता तें खरें आसा. तूं ताका एकदांच संद दी !

दिनेश : सतीश, म्हज्या इश्टा ! हांवें तुजें उतर केन्नांच भायर उडोवना. तुजी आनी जायूची हीच इत्सा जाल्यार जावंदी तुमकां जाय तशें ! *(भितर वता.)*

लिला : *(दोळे पुसीत)* सीताराऽम!

सीताराम : *(भायर येवन)* एस माडाम !

लिला : आतां ह्या फुडें तूं म्हाका माडाम - बिडाम काय म्हणूं नाका.

सीताराम : एस माडाम? कितें म्हणू माडाम !

लिला : माडाम गेली चुलींत ! म्हजो बाबुलो खंय आसा रे?

सीताराम : बाबुल्या, मम्मी कॉलींग ! *(बाबुलो येता.)*

बाबुलो : मम्मी, तुवें उलो माल्ला म्हाका?

लिला : हय रे म्हज्या शाण्या ! *(ताका धरता आनी ताचो एकसारको उमों घेत रावता)*

बाबुलो : मम्मी, तूं आतां म्हाका सोडून वतली?

लिला : ना रे म्हज्या भांगरा ! आतां तुका सोडून हांव खंयच वचचेंना. तुका सोडून गेल्ली ती तुजी मम्मी आतां मेली.

बाबुलो : आनी तूं कोण तल?

लिला : हांव तुजी आई !

बाबुलो : जायू, म्हजी मम्मी 'आई' जाली !

जायू : अर वा! आता तुजा आइ तुका शाळेंत पावयतली, व्हरूंक येतली! *(बाबुलो लिलाचे कुशींत घुसता. भितरल्यान दिनेश येता.)*

बाबुलो : पप्पा, म्हजी मम्मी 'आई' जाली !

दिनेश : हय ? आनी हांव कोण जावं आतां? *(सगळीं हांसतात. पड्डो देंवता)*




**सोंपता**



नं.ध. बोरकार

निवृत्त शिक्षक, कॉन्वेंट हायस्कुलांत ३३ वर्सां हिन्दी, मराठी आनी कोंकणीचें अध्यापन. शिक्षणः एम्.ए., हिन्दी पंडीत, एस्.एच्.एस्.एस्. एका हायस्कुलाचो २५ वर्सां व्यवस्थापक, एके शिक्षणीक संस्थेचो २५ वर्सां सरचिटणीस, एके सहकारी सोसायटीचो १० वर्सां अध्यक्ष.

हिन्दी भाशेचो प्रचारक आनी प्रसारक. आवय भाशेंतल्यांन शिक्षण मेळचें म्हण यत्न, प्रौढ शिक्षणां खातीर तशेंच विडी–तंबाखू विरोधी वावरांत योगदान.

कोंकणी आनी मराठी कितल्याशाच नाटकांतल्यान अभिनय.

नवप्रभा दिसाळ्यांतल्यान तशेंच 'बिम्ब' मासिकांतल्यान सातत्यान लेखन.

तांची 'पोको' ही कादंबरी आनी 'वावराडी' हें विनोदी नाटक गाजलां.